जाग प्रकाशनाचें

# नवी जाग गोंयकारांक

म्हयनाळें

वर्स ४९ : आंक ९ : जुलय २०२३

● संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

● वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

● संपादपी :
आसावरी नायक

● अतिथी संपादपी :
सखाराम शेणवी बोरकार

● पालवी संपादपी :
कृपाली नायक, एडना वाझ

● उजवाडावपी :
वैकुंठ पै फोंडेकार
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

● छापपी :
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५१० ००२

● वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग,
गोंय विद्यापिठा लागसार,
ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ७४४७२६८७२० । ९७६५१८७६०६

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) : | २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

**Jaag Bank Details:**
Accont No. 4004002100005165
Name : JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch : Panaji-Goa
IFSC Code: PUNB0292300

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-





## मांडावळ...



**मुखपृष्ठ चित्र :** अनिरुद्ध लेले
**भितल्लीं चित्रां :** निशीत बोरकार

संपादकीय

## आदेवश आंकू...

'जागा'चो जुलय म्हयन्याचो आंक तयार जातनाच 'जागा'चे उजवाडावपी दो. जयवंतराव भा. सरदेसाय म्हळ्यार सगळ्यांचे आंकू हे बुधवार २१ जून दिसा दनपरां ह्या संवसाराक अंतरले म्हणपाची दुखेस्त खबर कळ्ळी. आंकून हालींच आपलो ९४ वो वाडदिस मनयिल्लो. पूण आंकूचो उत्साह, एनर्जी पळयल्यार तो ऐन पिरायेच्या तरणाट्यांक फार्टी घालतलो.

आंकूचें खरें नांव जयवंतराव सरदेसाय हें चडशा कोणाकूच खबर नासलें. पूण तो सगळ्यांचोच आंकू आसलो. दिनदुबळ्यांक पावपी, सदांच तरणाट्यांच्या गराड्यांत रावपी. तरणाट्यांचेर अन्याय जाता अशें कळल्यार आपल्या नोकरेचेर खोंट मारुन तांचे वांगडा रावपी आंकू हो मडगांवचे एक भुषण आसलें. आंकू खरे अर्थान समाजसेवक. ताणी समाजाकडल्यान कसलीच अपेक्षा दवरली ना. फकत समाजाक दीत रावले.पिरायेच्या निमणे दिसा मेरेन.

आंकून नामनेच्या कॅलिफोर्निया विद्यापीठांतल्यान पी. एच. डी. केल्ली. शेतकीय प्राणीशास्त्राचे आनी क्रिडा नियंत्रण शास्त्राचे तज्ञ म्हूण तांची संवसारभर नामना आसा. ब्रिटन, स्कॉटलँड, पुर्तूगाल आर्जेंटीना, मोझांबीक, आफ्रिका, अमेरीका आनी भारतांत तांणी वावर केला. आर्जेंटीना देशाच्या क्रिकेट संघात तांची खेळपाक निवड जाल्ली. 'युनेस्को' संघाचो तज्ञ म्हूण तांणी आर्जेंटीना देशांत वावर केला.

आंकू भायल्यान पळयल्यार सदांच हांसते मुखाचो दिसतालो तरी ताणे खूप्प दुख्खां पचयलेलीं. आपली कर्तुबवान चली आनी 'जागा'ची संपादक माधवी आनी आपलो नातू हांका ऐन पिरायेचेर आयिल्ल्या मरणाचें दुख्ख ताणी पचयलें. पिरायेच्या सरतेर आपली सांगातीण सोडून गेल्ल्याचें दुख्ख ताणी पचयलें. पूण हाची ताणी आपल्या समाजसेवेंत कसलीच बादा येवपाक दिली ना.

आंकू येदो व्हडलो विद्वान, तज्ञ पूण सादेपणांन रावलो. मडगांव हॉस्पिसियो हॉस्पिटलाकडेन आपली मारुती गाडी थांबोवन रस्त्यावेल्या भुरग्यांक खावपाक वांटपी आनी त्या भुरग्यांनी आंकू आंकू करुन केल्लो किलबिलाट आनी आंकूचे तोंडार दिशिल्लें समादान. हें चित्र मडगांवकार केन्नाच विसरपाक शकचे नात.

कोंकणी भाशा मंडळाच्या विद्याभुवन कोंकणी शाळेक तांचें मोलाचें योगदान लाबलां. तांच्या कोंकणी चळवळींतल्या भोव मोलादीक योगदाना खातीर कोंकणी भाशा मंडळाचो सेवा पुरस्कार तांकां फावो जाला.

'जागा'चो व्यवस्थापक म्हणून आंकून केल्लो वावर कोणाकूच चडसो खबर नासतलो. माधवीक तो ह्या वावरांत हरतरेन मजत करतालो. बेळगांवच्यान आयिल्लीं जागाचीं पार्सलां आपले गाडयेंत घालून घरा हाडप, आंकाक पत्ते घालप, स्टँप लावप आनी तीं पार्सलां पोश्टांत घालप हो वावर ह्या युनेस्कोच्या एका किटक शास्त्रज्ञान केला हें कोणाक खरें दिसत? 'जागा'चे संपादकीय मंडळाक सदांच आंकूचें उणेपण सदांच भासतलें जशें माधवीचें आमकां भासता. आंकू सारकिल्ल्यांचो कोंकणी खातीरचो बुनयादी वावर भोव मोलादीक. आदेवश आंकू...

***



# आंकू

**माधव बोरकार**



जयवंत सरदेसाय हें नांव कानार पडटकच म्हज्या दोळ्यांर येता तें आमच्या बोरकारालें बोरये बेताळभाटांतलें घर. हें घर म्हजो पणजो शिरेबाब आनी जयवंतबाबालो पणजो गोविंदशणैन बांदिल्लें. इतलें सांगल्यार जयवंतबाब आनी आमचें नातें कितें तें कळटलें आनी स्पश्ट जातलें. आमच्या त्या घराक मदीं एक वणत आसा. आज आमचें नातें दायजीपणाचेर पावलें तरी आमचे मदलो एकचार तसोच घट्ट उल्ला हें विशेश. केशवबाब, शंभूबाब, येसूबाब, गुणेबाब आनी आत्मा हे जयवंतबाबाल्या आज्याचे भाव. आत्मा म्हळ्यार दो. आत्माराम गोविंद बोरकार. ते नांवाजते दोतोर आशिल्लेच तेच बराबर ताणीं समाजसेवाय केली. आज तांचें नांव उल्लां तें ताणीं केल्ले समाज सेवेखातीर. ते पुर्तुगेज सत्तेक जरी लागीं आसले तरी भितल्ल्यान ते गोंयच्या मुक्ती चळवळीक पालव दिताले. तांकां बोरकारांचो व्हड अभिमान. बोरयेचो कोणूय तांचेकडेन आयल्यार ताणी केन्ना व्हिजिताचे पयशे घेतले नात. उरफाटें कांय जाणांच्या बोल्सांत खर्चा खातीर पयशे घाले. शुद्धीकरणाचे चळवळींत ताणी मोलाची भूमिका केली. आपल्या पुतणयांक आपल्यागेर दवरून तांचीं शिक्षणां केलीं. चलयांचीं लग्ना जुळयलीं. जयवंतबाबाची आवय हिरुआका हिची सोयरीक ताणीच केली. गोंयचो समाज तांचें उतर झेलतालो.

गुणेबाबाक सगळीं पांच भुरगीं. हरीबाब, वसंतबाब, कमळबाब, आनंदबाब आनी हिरु. हिरु ही जयवंतबाबाली आवय. ती बरी लांबरुंद आनी दिसूंक सुंदर आशिल्ली. तिका म्हजो बापूय बी हिरुआका अशें म्हण्टालो. १९०६ वरसा तिचो जल्म आनी ती १९३६ वरसा संवसाराक अंतरली. ती सभावान खूप प्रेमळ आशिल्ली. कुळारा येतकच आमचे वटेन येवन म्हजो आजो, आजी, पणजी

आनी पणज्याकडेन बरेतरेन उलयताली. अश्यो यादी हांवें म्हज्या बापायकडल्यान आयकल्यात. ती कुळारा येतकच भाळाबाब बोरये येतालो तेन्ना ती हातांत सान्न घेवन सबंद घर झाडून काडटाली. इतलेंच न्हय तर आड्याकडे मेरेनची वाट निवळ करताली. तिचे आवयक सगळे आका म्हण्टाले. आका दीर्घायुश्यी. जिवितांत खूप दूख भोगून ती गेली. पूण तिच्या तोंडावेलो हांसो केन्नाच उणो जालोना. आकांताचें सोंशीक. वसंतबाब आनी कमळबाब ह्या दोन पुतांचीं मरणां तिणे पळयलीं. आनी अपुर्बायेची धूव गेली तिचेंय दुख तिका पचोवचें पडलें. माधवीक पळयतकच आपल्याक हिरुआकाची याद जाता अशें म्हजो बापूय सांगतालो. आजेचें रुप आनी हांसो घेवन तूं आयलां अशें एक फावट ताणे माधवीक सांगलें.

हिरुआक गेल्या उप्रांत कांय काळ गोदूबाय आनी भावंडां बोरये आजोळा रावपाक आयलीं. तेन्ना जयवंतबाब स ते सात वरसांचो आशिल्लो आनी गोदूबाय अकरा वरसांचें. सुमन, राजा, कुमूद आनी बेबी हांकां आजोळच्या मनशांची सुमाराभायर ओड. जाण्टेपणांत स्मृतिभ्रंश जाल्ल्या काळांत गोदूबाय आजोळच्या लोकांची याद काडटालें. शिरेबाब कसो आसा रे? अशें ताणे म्हाका विचाल्लें. केन्ना केन्ना ताका येसूबाबाची याद जाताली. आनी आजी आका तर ताका आसाच अशें दिसतालें. तीच गजाल जयवंतबाबाची. बोरकारांचो ताका मोटो अभिमान आनी ओड. एक याद. माधवीच्या निमाणे यात्रेची तयारी चलिल्ली. हांव आनी आनीक एकलो जयवंतबाबाकडेन उलयताले. तो अदीं मदीं दोळे पुसतालो आनी आका, हरिबाब हांच्यो यादी सांगतालो.

हरीबाब हो जयवंतबाबालो व्हडलो मामा. ताका तीं हरीमामा अशें म्हण्टालीं. हरीबाब कुटुंबीक कारणाक लागून लग्न जाय नासतना रावलो. ताका लागून भाचरांक ताची चड ओड आशिल्ली. आका गेल्या उपरांत तो एकलोच त्या व्हडल्या घरांत रावतालो. केन्नाय हो भाचो ताका मडगांव आपल्यागेर व्हरतालो. हो मामा गेलो तेन्ना जयवंतबाब गोंयाभायर आशिल्लो. तो आपल्याक चुकलो ताचें ताका खूप वायट दिसलें. तो माधवीक अपुर्बायेन 'अपुर्बाय' अशें म्हण्टालो. आमी भुरगे मात ताका थर्त भियेताले.



जयवंतबाबालो जल्म सरदेसाय कुळयेंत. सरदेसायांक तेजिष्ठ असो इतिहास आसा. आज ती परिस्थिती नासली तरी एक घरंदाजपण तांचे मदीं आसा. पूर्वजांचे पुण्यायेचेर घराण्याच्यो कांय पिळग्यो जियेल्यो. लक्ष्मणराव सांगता ते प्रमाण काळांतरान तांची देस्कत देंवतेक लागली. काळाचीं पावलां वळखून तांचे मदले शांबाराव सरदेसाय हे पुर्तूगेज शिकपाक गेले आनी आग्रिमिसोर खात्यांत चाकरेक लागले आनी तांच्या फाटल्यान व्यंकटेशराव सरदेसाय आनी तांचे फाटलो भाव भालचंद्रराव हे लिसेव शिकपाक गेले.

१९१० वरसा पुर्तुगालाक प्रजासत्ताक आयलें आनी गोंयकारांक मेकळो स्वास घेवपाक मेकळीक जाली. हिंदू समाज शिकपाच्या मळाचेर बरोच फाटीं आशिल्लो. आतां ते लिसेवाचीं सपणां आत्मविश्वासान चडपाक लगाले. भाळाबाब ते पिळगेचे एक प्रतिनिधी. लिसेव करून ते कस्टम खात्यांत लागले आनी आपले हुशारेन वयल्या पदार पावले. गोंयाभायर दामांव दीव हांगा ते गेले आनी मुखार तांची बदली पुर्तुगेज आफ्रिकेक जाली. थंय ते दिरेतोर द आल्फांत उलत्रामार ह्या प्रतिष्ठेच्या पदार बसले. हो मान फाव जाल्ले ते पयले गोंयकार. उप्रांत तांचो राबितो पुर्तुगालाक उल्लो. आपले सरते पिरायेर ते गोंयां आयले आनी तांची कूड गोंयचे मातयेक लागली. तेन्ना ताणी पिरायेची णव्वदी हुपिल्ली. तांचे घरवडेक दीर्घायुष्याचो वर आसा अशें दिसता. आपलो बापूय एद्या व्हड पदार आशिल्लो हाचें भांडवल जयवंतबाबान केन्ना केलें ना आनी तसो अभिमानूय बाळगिलोना. हो गुण ताच्या रगतांतूच नाशिल्लो. चुकून माकून तसो उल्लेख ताच्या उलोवपांत येतालो.

आवय ना आनी बदल्यांक लागून बापूय पयस हाका लागून भुरग्यांची हळसना जाली. तरी आसतना ताचो व्हडलोसो परिणाम तांचेर जावंक पावलो ना. पणजे व्यंकटेशराव सरदेसायाली फार्मास आशिल्ली. व्यंकटेशरावाक सगळेजाण पचीबाब अशें म्हण्टाले. ते लुईस मिनेझीस ब्रागांझा हांचे बराबर वावुरपी. आनी तेच बराबर फार्मासूय चलयताले. आज पणजे साल्सेत फार्मास

आसा ती तांची. ते जर्मनीतल्यान वखदां हाडटले. दुसऱ्या संवसारीक म्हाझुजाचो हुलप तांकां बादलो आनी ही फार्मास तांकां विकची पडली. भुरगो जयवंतबाब केन्नाय ते फार्मासींत वतालो. तेन्ना तो पणजेच्या पिपल्स हायस्कुलांत शिकतालो. हांगा ताका दास, चंद्रशेखर आनी ग. वि. कंटक सारकिले उत्तम शिक्षक मेळ्ळे. कंटकान ताका फ्रेंच शिकयली. तांची फ्रेंच भास शिकोवपाची तोखणाय तो करतालो. मुखार कॅलिफोर्नियाक आसतना फ्रेंच शिकोवन पयशे जोडले ताचें सय जयवंतबाब प्रो. कंटकांक दितालो. कंटक मागीर मुंबय विद्यापीठांत फ्रेंच डिपार्टमेंटांत रिडर जाले. तशेंच पुर्तुगेज भासूय ताका उत्तम येताली. घरा दारांत पुर्तुगेज उलोवपी मडगांवचे बड्डेकार ताचे मुखार सांबाळून उलयताले. इतलो ताचो वचक. आपले जिणेचीं कांय म्हत्वाचीं वरसां ताणे पुर्तुगालाक काडिल्लीं. माधवीचो जल्म हो थंयचोच.

जयवंतबाब पयलीं पुर्तुगेज आफ्रिकेक आनी उप्रांत पुर्तुगालाक पुर्तुगेज सरकाराचे सेवेंत आशिल्ले. तो काळ सालाझारशाहीच्या विरोधाचो. ताचो फाटलो भाव राजा ते चळवळीक लागीं आशिल्लो. ह्या सगळ्याचो बादीकार भाळाबाबाल्या पदाक जावपाची शक्यताय निर्माण जाली. बापायन सारासार विचार करुन पुताक इंग्लंडाक धाडलो. ताणे थंय उंचेलें शिक्षण घेवन इंग्लंडाक स्थायिक जालो. तेच भशेन बायलूय ब्रिटीश केली. थंय तो एके शाळेंत शिकयतालो. कांय वरसां पयलीं ताका मरण आयलें. भाळाबाबाल्या वंशरुखाची एक खांदी इंग्लंडाचे भुंयेर विस्तारत आसा. पन्नासाव्या दसकाचे अखेरेक गोंयचे कांय स्वातंत्र्य सैनिक आफ्रिकेचे बंदखणींतल्यान सुटले. तांकां गोंयां वचपाक मेळ नासलें. निळकंठ कारापुरकार, पां.पुं. शिरोडकार आनी दो. विनायक मयेंकार हे पुर्तुगालाक आयले. तांचें जयवंतबाबागेर येवप वचप सुरु जालें. हें सगळें म्हळ्यार एकेतरेन तळटार पेटिल्लो इंगळो दवरपा सारकें आशिल्लें. पुर्तुगालाचें गुप्त हेर खातें सूता वयल्यान सर्ग गांठपी. तांची नदर ह्या कुटुंबाचेर आशिल्ली. शिरोडकारान आपल्या आत्मचरित्रांत तांगेर घेतिल्ल्या जेवणाचो उल्लेख केला. दत्तात्रय देशपांडेय तांगेर बरेच फावट आयला गेला.

स्वातंत्र्य सैनिकूच न्हय तर गोंयकार तरनाटे पुर्तुगालाक उंचेलें शिकप घेवंक वताले, तांकांय जयवंत आनी मोगा बायलें घर आपलेंशें दिसतालें. अवधूत कामत हो इंजिनिअरिंग कॉलेजींत शिकतालो. तशेंच प्रेमानंद नायक बिठ्ठोणकार हो मायनिंग इंजिनियर. तांचो दाट इश्ट अवधूतबाब गोंयां परतलो तर प्रेमानंदबाब पुर्तुगालाच रावलो. ताणे बायल बी थंयचीच केली. पूण गोंयां येतकच जयवंतबाबा बराबर उठप बसप करतालो. ताची बायल फॅर्नांदा हिणे बरयल्ल्या पुर्तुगेज कवितांचो कोंकणी अणकार उजवाडा हाडपाक ताणे फुडाकार घेतलो आनी नागेश करमल्यान तो अणकार केलो. कामतीनीं पणजे 'नॉवा गोवा' हे हॉटिल सुरु केलें तेन्ना सुरवेक जयवंतबाब मॅनेजर कसो वावुरतलो. ह्या दोगांयमदीं दाट इश्टागत आशिल्ली. अवधूतबाबालो १८ जून रस्त्यार फ्लॅट आशिल्लो. आठवड्यांतल्यान एक दीस ते मेळटाले. थंय लागींच आशिल्ल्या हॉटिल 'आरामां'त च्या पिताले. पुर्तुगेज उलोवप्यांचो एक ग्रूप आशिल्लो. जयवंतबाब ताचो एक वांगडी. ताणे पुर्तुगेज सत्तेक विरोध केलो. पूण पुर्तुगेज भाशेचेर मोग केलो हें लक्षांत घेवपा सारकी गजाल.

जयवंतबाबान कांय काळ इंग्लंडाक सारलो. पणजे शिकतना तो क्रिकेट खेळटालो. दयानंद बांदोडकार, आंगले हे तेन्ना क्रिकेट खेळपी. हरशीं गोंयकारांचो आवडटो खेळ म्हळ्यार फुटबॉल. पणजेच्या



पुलीस ग्रांवडार फुटबॉल मॅची जाताल्यो. पूण जयवंतबाबाक क्रिकेटीचें पिशें. इंग्लंडाक तो खूप क्रिकेट खेळ्ळो. तोय बी नॉटिंगहॅमशायरच्या संघांत. तांचो तो विकेटकिपर. हाचेवयल्यान तो ह्या खेळांत कितलो प्रविण आशिल्लो तें कळटा. पूण जयवंतूच तो? ताची जायरात ताणे केन्ना केलीना आनी ताचो फायदो केन्ना घेतलो ना. राजाकूय क्रिकेटीचें पिशें. दोगांय भावांनी खूप टॅस्ट मॅची पळयल्यो. केन्नाय रंगार आयल्यार तो गॅरी सोबर्स सारकिल्या खेळगड्याच्या खेळाच्यो यादी सांगतालो. तो एक ताचो आवडटो खेळगडो. आर्जे



तिना सावन गोंयां परततना तो इंग्लंडाक रावलो. थंय चलपी टॅस्ट मॅची पळोवन तो गोंयां आयलो. राजा आनी ताचें नातें भावाचें आसलें तरी तांकां एकठांय दवरपी दुवो म्हळ्यार क्रिकेट.

जयवंतबाबाले जिणेंतलो म्हत्वाचो अध्याय केलिफोर्नियांत सुरु जाता. एक फेलोशीप मेळोवन तो अमेरिकेंतल्या ह्या प्रतिष्ठित विद्यापिठांत संशोधन करपाक गेलो. ताचो अभ्यास आनी संशोधनाचो विशय किटक शास्त्र. दोन गोंयकारांनी ह्या विशयाचेर संशोधन केलां. जयवंतबाबा बराबर डॉ. शंकर वासुदेव आमोणकार हे कॅलिफोर्निया विद्यापिठांत डॉक्टरेट घेतिल्ले. ते भाभा ॲटोमिक संस्थेंत काम करताले. आनी तांचो संशोधनाचो वावर नामनेक पावला. पूण आमकां ताची नात ना. डॉ. आमोणकार आनी जयवंतबाब इश्ट जाले. सरदेसायालें घर हें तांच्या हक्काचें ठिकाण जालें. हो काळ संघर्षाचो आशिल्लो. अमेरिकेन विएतनामाचेर केल्ले आगळीकेक लागून अमेरिकेंत विद्यार्थ्यांमदीं उंचबळाय पातळिल्ली. भौशीक सभा आनी मोर्चे काडून ते आपलो निशेध व्यक्त करताले. जयवंतबाबाक कुशीक रावंक जमलेंना. आपूण फेलोशीप घेवन आयला हें तो विसरलो आनी चळवळींत भितर सल्लो. परिणाम फेलोशिप बंद जाली आनी कितले तरी आर्थिक प्रश्न निर्माण जाले. हे आदीं बरयलां तशें फ्रेंच भाशेच्यो शिकवण्यो करून पयशे जोडपाचो यत्न ताणे केलो. हीं सगळीं आडमेळीं हुपून ताणे डॉक्टरेक मेळयली. किटकशास्त्र आनी पर्यावरण हांचो लागींचो संबद.



युनोचो एक अधिकारी ह्या नात्यान ताणे दोळ्यांत भर सारको वावर केलो. आर्जे तीना सारकिल्या देशांत तो पर्यावरण खात्याचो मुखेली जालो. ताचो चलो विजय हो हांगा जल्माक आयलो.

आपलो कार्यकाळ सोंपोवन जयवंतबाब गोंया परतलो. ताका परत अमेरिकेक वचपाची संद आशिल्ली. थोडो व्यवहारीक विचार केलो जाल्यार ताचो आनी कुटुंबाचो मोटो फायदो जावं येतालो. पूण तो ते वाटेन गेलो ना. ताका लागून कुटुंबाचें नुकसान जालें. मात्सो यत्न केल्यार BARCत वैज्ञानिक म्हूण ताका नोकरी मेळटली आशिल्ली. पूण ते दिकेन ताणे विचार केलोना. मुंबय विद्यापिठाच्या पणजे केंद्राचो डायरेक्टर जावपाखातीर ताणे यत्न केलो. पूण ताचे परस कमी योग्यताय आशिल्ल्याची त्या पदार नेमणूक जाली. मागीर कांय काळ चौगुलेच्या शिक्षण संस्थांचें व्यवस्थापन पळोवपाचें काम केलें. पूण थंय विद्यार्थी आनी प्राध्यापक हाणी व्यवस्थापनां विरुद्ध संघर्श केलो तेन्ना तो कंपनीच्या आड गेलो आनी आपल्या पदाक सोडचिट दिली.

माधवीन आपल्या बापायचें सुंदर शद्बचित्र काडलां तें वाचपासारकें आसा. लौकिक नदरेन पळयल्यार जयवंतबाब एक अपेशी मनीस. आयचो आमचो समाज आर्थिक नदरेन पळोवन मनशाची मोलावणी करता. त्या कोश्टकांत जयवंतबाब बसना. ह्या तीन भावांमदीं व्हडलो दादा कमी शिकिल्लो. पूण व्यव्हाराचे नदरेन यश जोडिल्लो. जयवंतबाब हो कवीवृत्तीचो. ही वृत्ती आनी लौकीक व्यव्हार हाचो मेळ जमना. अपुर्बायेचो नातू आनी धूव माधवी हांच्या मरणाचें दुख ताणे कशें पचयलें हाची कल्पना करपाक येना. घडये हेच वृत्तीक लागून ताका हें दूख तोलपाची शक्त मेळ्ळी आसत.

आपलो मामा कमळबाबाचें रुप घेवन आयिल्ल्या जयवंतबाबान मनापासून मोग केलो तो मनशाच्या मनीसपणाचेर आनी सैमाचेर. आशिया, आफ्रिका, युरोप आनी अमेरिका हे चार खंड भोवन तो मनान गोंयकारुच उल्लो.

संपर्क: 9420222876

***

# पांडुरंग भांगी - नातीन केल्ली याद

मोनाली प्रभू



म्हजो आजो पांडुरंग भांगी. तांकां कुटुंबांतले आनी लागींचे इश्ट रावजीबाब म्हूण वळखताले. अंदू तांची जल्मशती. तेन्ना म्हाका तांच्या विशीं कांय उतरां बरयन दिसलीं.

हांव पिरायेचीं सात वर्सां मेरेन चडशें आजोळा पणजे फाँन्तेनियश आसतालें. म्हाका म्हज्या सामके ल्हानपणांतली आज्या बद्दलची याद जाता ती म्हळ्यार तो भायल्या येत्रांदांत जनेला सकयलल्या वोल्तेराचेर बसून पुस्तकां वा वर्तमानपत्रां वाचतालो. नाजाल्यार कितें तरी बरयत आसतालो. ती ताची बसपाची आवडती सुवात. ताचें चडशें लिखाण थंयच बसून जालां. कोणूय ताका मेळपाक आयल्यार तो तांका थंयच मेळटालो.

हांव सामकें ल्हान आसतना जमनीर ताच्या पांयांकडेन बसून खेळटालें. आजो म्हज्या हातांत एक पेन आनी पेपर दितालो. ताणें दिल्ल्या पेपराचेर हांव भिरकिटायत रावतालें. हांव सुमार देड वर्सांचें आसतना हांवें केल्ले एके भिरकिटावपाच्या आदाराचेर 'अदृस्टाचे कळे' ह्या ताच्या कविता झेल्याचें मुखपृष्ठ साकार जालें.

हांव मागीर तीन चार वर्सांचें जातकच आज्याचो हात धरून पणजेभर फिरलां. कारण आजो वता थंय म्हाका व्हरतालो. बँकेंत, सेंट्रल लायब्ररींत, मुस्तायकी दिवपाक हाडपाक लाँड्रींत, पोस्ट ऑफिसांत.

पणजे शारूय तेन्ना खूब शांत आनी नितळ आशिल्लें. चडशे लोक चलत फिरिल्ले दिसताले. गाडयांची येरादारीय उणी आशिल्ली. पासयोय मेकळ्यो आसताल्यो. ताजेवेल्यान सुशेगाद चलपाक एक वेगळोच आनंद मेळटालो. आता कालांतरानं पणजे शारूय बदल्लां. शारांतली लोकवस्तीय वाडल्या आनी येरादारीय वाडल्या. शाराचं बदल्लेलें रूप पळोवन म्हाका 'शहर वाडत वता' ह्या आज्याच्या कवितेंतल्या ह्या ओळींची याद जाता:

*शहर वाडत वता*
*तितलें अनवळखी*
*जायत जायत*
*मनिसपण विसरता*



आज्यानूच म्हाका ल्हानपणांत कागदाच्यो बोटी आनी वाफोर करपाक शिकयलें. पावसाचो घोगो सुरू जातकच हांव कागदाच्यो बोटी आनी वाफोर तयार करतालें आनी पासयेवेल्यान व्हांवता त्या उदकांत सोडटालें. त्या वेळार आजो घरा नासत जाल्यार तो येतकच हांव ताका हांवे कितल्यो बोटी आनी कितले वाफोर केले, ते खंय मेरेन गेले आनी खंय शिरकले त्या विशीं सांगतालें.

आज्या कडल्यान हांव कादेर्नांक फोर घालपाक शिकलें. ल्हानपणांत आजोच म्हज्या कादेर्नांक आनी पाठ्यपुस्तकांक फोर घालतालो. फोर घालप लेगीत ताका परिपूर्ण जावपाक जाय आशिल्लें. आजो सामको परफेक्शनिस्ट आशिल्लो. सामको शिस्तप्रीय. वक्तशीर. खंयूय वचपाचें आसल्यार वेळार थंय पावपाक भायर सरतालो. उशीर जाल्लो ताका मात्तूय मानवनाशिल्लो.

आज्यान म्हाका लिओ टॉल्सटॉय, चार्ल्स डिकन्स, रस्कीन बॉण्ड ह्या लेखकांची वळख घडयली. ताणेंच म्हाका पुस्तकां वाचपाची गोडी लायली. संवसारांतल्या सगळ्या फांकीवंत लेखकांचीं पुस्तकां ताचे कडेन आशिल्लीं. फेर्नांद पेस्सोअ (ताचो आवडटो कवी), खलील जिब्रान, बर्ट्रांड रसेल, डी. डी. कोसंबी आनी हेर. इंग्लीश, मराठी, पोर्तुगीज खबरांपत्रां तो वाचतालोच. आयतारा तर तो मुंबयचे इंग्लीश, मराठी पेपर घेतालो. कारण तांचेर वेगवेगळ्या बरोवप्यांचे लेख येताले. अग्रलेख सदांच वाचचो अशे तो म्हाका सांगी.

आजो म्हजो एक इश्टचसो आशिल्लो. हांव आज्या कडेन वेगवेगळ्या विशयांचेर, विविध गजालींचेर भासाभास करतालें. तातूंत पुस्तकांचेर, सैमाचेर, राजकारण अशे विशय आसताले.

ताची याद सामकी खर. आजो म्हळ्यार एक चलतो भोंवतो विश्वकोश कसो. कसलीय माहिती विचार, ताचे कडेन रोखडीच जाप आसताली. ताका इंग्लीश डोक्युमेंटरी पळोवपाची आवड आशिल्ली. इंग्लीश वाहिनीचेर दाखयतात त्यो डोक्युमेंटरीज तो पळेतालो. मागीर म्हाका तो ते विशीं सांगतालो. दूरदर्शनाचेर लॉरॅल आनी हार्डीच्यो इंग्लीश ड्रामा सिरीज दाखयताले. ते तो मुजरत पळेतालो. आपणे भुरगेपणांत हें पळयलां, आपल्या भुरगेपणांत टीव्ही नाशिल्ले पूण पड्ड्याचेर ते दाखयताले अशें तो सांगी.

आदीं आमी आजोळा लागसार पॉर्तायश रावतालीं, मागीर म्हजो बापूय

वतकच आमी करंजाळ्यां रावपाक गेलीं. तेन्ना आजो आमगेर चडसो येतालोच. ताचो आमकां आदार आनी नैतीक तेंको आशिल्लो. आमी आजोळा पावलींना जाल्यार तो तरी आमगेर येतालोच. केन्नाय म्हाका आनी म्हज्या भावाक घेवन मिरामार वतालो.



हांव इश्कोलांत आसतना हांवे ताच्या सत्तराव्या वाडदिसाक स्वता केल्लें एक कार्ड दिल्लें. ताका ताचें खूब अप्रूप दिसलें. अखेरमेरेन ताणें तें ताच्या ट्रंकांत सांबाळून दवरिल्लें. ताका तें इतले मोलादीक आशिल्लें तें पळोवन म्हजें मन भरून आयलें.

आजो म्हगेल्या दर वाडदिसाक ताच्या आनी आज्जे वतीन आशिर्वादाचो लाखाटो दितालो. ते लाखाटे अजून मेरेन हांवें ताची याद म्हूण म्हज्या ड्रॉवरांत सांबाळून दवरल्यात.

आजो आपलीं मतां कसलीच भीड दवरिनासतना ठामपणान मांडटालो. मागीर तीं राजकारणाचेर आसूं, समाजकारणाचेर, सरकारी धोरणांचेर, संवसारांतल्या घडामोडींचेर, वा हेर विशयांचेर, मुद्दे मांडटना तो कसलीच तमा बाळगिनाशिल्लो. 'उतरांचो संवसार' हे ताचे दिसपटये वेल्यानूय हें दिसून येता.

१९८१ वर्सा कस्टम खात्यांतल्यान Chief Appraiser म्हूण निवृत्त जाले उपरांत ताणें कोशाचें काम हातांत घेतिल्लें. 'शब्दसागर' ही कोंकणी कोशाची आगळीवेगळी संकल्पना ताणें गोवा कोंकणी अकादेमी मुखार मांडली आनी ती मंजूर जातकच मुखार व्हेली. कोंकणी शब्दसागर 'अ' आनी 'आ' ह्या दोन भागांचे ते संपादक आशिल्ले. 'भारतीय विद्वानांनी खासा करून महाराष्ट्रीय विद्वानांनी ह्या कोशाक भरपूर दाद दिल्या. भारतीय कोशामदींय ह्या कोशाक खाशेलें अशे स्थान आसा' अशें नामनेचे कवी भौ. रमेश वेळुस्कार हांणी तांचे विशीं 'जाग' दिवाळी नाताल २००८ ह्या अंकांत बरयल्ल्या लेखांत नमूद केला.

आज्याक मेळपाक कोंकणी साहित्यिक मळावेले खूब जाण येताले. म्हाका चड याद आसा ती म्हळ्यार शंकर रामाणी, ऑलिविन गोम्स आनी रमेश वेळुस्कार हांची.

नामनेचे कवी र. वि. पंडित म्हज्या आज्याचे लागीचे इश्ट. हांव तांका पंडित आज्या म्हणटालें. ते आज्यागेर चडशे येतालेच. जायते खेपो ते दोगूय जाण सांजवेळार मिरामार वताले. केन्नाय ते म्हाकाय बरोबर घेवन वताले. वता आसंतना वाटेर ते दोगूय जाण हॉटेलांत च्या घेताले आनी म्हाका आईसक्रीम दिताले.

पंडित आजो ऑस्पितलांत आशिल्लो तेन्ना म्हजो आजो चडसो सदांच ताज्या खबरेक वतालो. पंडित आजो वतकीर आज्यान तांच्या विशीं आपल्या दिसपटयेंत नमूद केल्लें - 'आज पंडित गेलो. कॅन्सरान जरजर जाल्लो तागेलो जीव, सासणाची न्हिद न्हिदलो. आनी आमचो विशेक वर्सांचो सांगात आयच्यान तुटलो.'

आज्याक पोस्टाच्यो तिकेटी जमोवपाची आवड आशिल्ली. तो ताज्या भुरगेपणातलो एक छंद. ताजे कडेन स्विट्झर्लंडच्या स्टॅम्पची व्हड एकटावणी आशिल्ली. जेन्ना ताका नवे स्टॅम्प येताले ते तो आपल्या ट्रंकात आशिल्ल्या स्टॅम्प आल्बमांत वेवस्थित घालून दवरतालो. ट्रंक उक्तो करून मोट्या अप्रूपान तो स्टॅम्प दाखयतालो. १९८६त 'गोवा पेक्स' ह्या संस्थेन ताका भांगरा पदक दिवन ताज्या ह्या कलेचो भोवमान केल्लो.

आज्याक फिलुमेनीचो (phillumeny) छंद आशिल्लो. वेगवेगळ्या देशांतल्या फस्कांची व्हड एकटावणी ताजेकडेन आशिल्ली. वेगवेगळ्या रंगांची, वेगवेगळे डिझायन आनी चित्रां आशिल्लीं तीं फस्कां, एका ल्हानशाच ट्रंकांत वेवस्थित दवरिल्ली आसतालीं. कांय रिकामी आशिल्लीं जाल्यार कांय फस्कांनी रंगयाळ्यो काडयो आसताल्यो. हांव ल्हान आसतना तो केन्नाय म्हाका तीं फस्कां दाखयतालो.

आज्यान आपल्या सगळ्या नातरांची खूब अपुर्बाय लक्तुबाय केल्या. 'चांफेल्ली सांज' हो साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जाल्लो कविता झेलो ताणें 'ज्यांकां लागून म्हगेली सांज चांफेली त्या म्हज्या लक्तुबायेच्या नातरांक' ह्या उतरांनी आपल्या नातरांक अर्पण केला.

म्हजो आजो ७ नोव्हेंबर २००८ ह्या दिसा संवसाराक अंतरलो आनी म्हजें आजोळ सुटलें. आज्याच्या खबरांनी रमपी, आज्याच्या अवती भोंवती घुटमळपी हांव, म्हगेल्या जिणेंत एक पोकळी निर्माण जाली.

संपर्क: 9764769331

***



# म्हजो रवीन्द्र सांगात

**दिलीप बोरकार**

### दक्षिणे कडले भोंवडेक आरंभ

'दिलीपाक घेतले बगर कोचीची परिशद जातली कशी?' अशें नागेशबाब करमलीन रवीन्द्रबाबांक सांगलें आनी हांव भुलुसलों. हांवें तयारी सुरू केली. हे आदीं अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचीं अकरा अधिवेशनां जाल्लीं. पयलें अधिवेशन १९३९ वर्सा ८ आनी ९ जुलायक कारवाराक जाल्लें म्हणपाचें हांव आयकून आनी वाचून जाणां आसलों. उपरांतचीं ९ खंय खंय जाल्लीं पूण म्हाका तांचे कडेन कसलेंच सोयरसुतक नाशिल्लें. हांव मराठीवादी आशिल्लों. जेन्ना कोंकणी वाटेन मात्सो सरकतालों तेन्ना १९७४ वर्सा ९ आनी १० फेब्रेराक पणजे १० वें अधिवेशन जालें. थंयीय हांव वचूंक ना लजे पासत. हांव कोंकणीवादी अशें लोक म्हणत हाची म्हाका तशी लज दिसतालीच. म्हजे वांगडा कॉलेजींत शिकपी सगळे मराठी वटेनचे आनी प्रा. रवीन्द्र घवी आमकां मराठी शिकोवपी. म्हणटकच म्हजेंच मन म्हाका खातालें.

दोन वर्सां उपरांत जेन्ना अकरावें अधिवेशन १९७६ वर्सा २१ आनी २२ फेब्रेराक मंगळुराक जालें तेन्ना ल्हव ल्हव म्हज्यांतलो हो न्यूनगंड उणो जालो आनी हांव ह्या अधिवेशनाक मंगळुराक गेल्लों. पणजेच्यान बस केल्ली. हो म्हजो गोंयच्यान भायर पयस वचपाचो पयलोच प्रसंग म्हणटकच सगळेंच म्हाका अजापाचें आशिल्लें. पिराय १९ वर्सांची आनी गांवच्या किरिस्तांव भुरग्यांमदीं वाडिल्लों हांव तसो मात्सो भुजरोच आशिल्लों. म्हजे पिरायेच्यो चलयो बी आसताल्यो तांच्या म्हर्‍यांत पावतकच उलोवपाचें धाडस जायनाशिल्लें. ताळो सुकतालो असो तो काळ. म्हणटकच कोणाचेर छाप मारपा सारकें म्हजें व्यक्तीत्व तयार जावंक नाशिल्लें म्हणल्यार जाता. देखून मंगळुरच्या अकराव्या अधिवेशना वेळार हांव अबरगतूच आशिल्लों. ह्या अधिवेशनांत अध्यक्ष आशिल्ले चंद्रकांतबाब केणी, तांचे वांगडा रवीन्द्रबाब, के.के.पै माम, मल्यामाम बी वावुरतना हांव अप्रूप नदरेन पळयतालों. ह्या सगळ्या उत्सवांत हांव तसो नगण्यूच आशिल्लों. म्हजें अस्तित्व हांव सोडून कोणाकूच झळकतालें काय कितें खबर ना. तातूंत कोणूय एकलो 'तूं बोरकार खंयचो?' बी विचारतालो तेन्ना तर कितें सांगचें तें कळनाशिल्लें.

उपरांतच्या काळांत शणै गोंयबाबाचे जल्मशतीक आरंभ जालो तेन्ना म्हाका खऱ्या अर्थान पाखां फुटलीं म्हणूं येता. रवीन्द्रबाबां कडलो सांगात वाडिल्लो, नागेशबाब संद मेळटा तेन्ना रेडिओचेर जावं आनीक खंयीय कविता वाचूंक लायतालो. चंद्रकांतबाब 'राष्ट्रमता' क जावं 'सोमार' हे कोंकणी पुरवणेक कितेंय बरोवन धाडलें जाल्यार छापताले. म्हजे परीन हांव प्रस्थापीत लेखक जावंक लागिल्लों आनी हड्डें फुडें काडून भोंवतालो. तातूंत विद्यार्थी फुडारी म्हूण अदीं मदीं पेपराचेर नांव येतालें. पूण आर्थिक टंचाय सदाच सतायताली देखून आंगात जो एक नेट आसूंक जाय आशिल्लो तो येना आशिल्लो. नागेशबाब आनी रवीन्द्रबाब म्हजी अडचण समजून खंय खंय म्हाका नोकरेक दवरताले. इतलेंय करून रवीन्द्रबाब म्हणटाले, 'सगळ्यांनीच नोकरी करूंकच जाय अशें खंय आसा..? हांवें खंय केल्या नोकरी..?' तेन्ना म्हजोय नोकरेवेलो विश्वास वतालो. तरी शणै गोंयबाब जल्मशती सुवाळ्याची कचेरी हांव सांबाळटालों आनी उपरांत कोंकणी भाशा मंडळाचे मडगांव कचेरींतय नोकरी करतालों. जे कितें अडेचशीं रुपया पगार मेळटालो तातूंत खूश आसतालों. म्हाका कोचीक फुकट वचूंक मेळिल्लेंच. गरज आशिल्ली वाटखर्चा पासत बोल्सांत थोड्या पयशांची. हांवें ती केल्ली.

**२६ वी खिस्त**

अधिवेशन जरी कोचीक आशिल्लें तरी ह्या अधिवेशना निमतान अधिवेशनाक वचपी प्रतिनिधींनीं दक्षीण भारताची भोंवडी करपाचें थारायल्लें. ११ आनी १२ तारखेक कोचीक हें अधिवेशन जाले उपरांत मागीर सगळे प्रतिनिधी कन्याकुमारी मेरेन वचपाचे आशिल्ले. ते पासत चार-पाच मिनीबसी केल्ल्यो. त्या काळात धा प्रवाशांक बसपा पासत ह्यो नव्योच मिनीबसी आयिल्ल्यो आनी पणजे सारख्या शारांनी त्यो सिटीबशी म्हूण येरादारी करूंक वापरताले. तातूंत फकत बसून वचूंक मेळटालें. बशींत उबे रावून वचूंक मेळटा तशें सरळ उबें रावप शक्य नाशिल्लें. अकलेक आयिल्लो बावगून उबो रावतालो आनी ताची खड्डी ती बस चलतना वयर टापाक आपटताली. (तेच बशीचेर पुरुषोत्तम सिंगबाळान 'मिनीबस' नांवाचो विनोदी लेख आकाशवाणीच्या 'फोडणी फोव' हे कार्यावळीत सादर केल्लो. ताची उपरांत सीडी आयली. ती आयकत जाल्यार त्या काळचे ते मिनी बशीची आनी

तांतूंतल्या प्रवासाची कल्पना येतली.) अश्या ह्या मिनी बशींतल्यान ही भोंवडी आयोजीत केल्ली. त्या पासत गोंयच्या चाळीस पन्नास प्रतिनिधींनी पयशे भरून आपलें सीट आरक्षीत केल्लें. ते प्रमाण प्रवासाक वचपाच्या दिसा पणजे आनी मडगांव अश्या शारांतल्यान ह्यो मिनी बशी सुटपाच्यो आशिल्ल्यो. पणजेच्या प्रतिनिधींक घेवन पणजेच्यान सुटपी मिनीबशी पयलीं मडगांव आनी उपरांत मडगांवच्यो मेळून सगळ्यो मिनी बशी केरळाक वचपाक सुटपाच्यो. म्हणटकच पणजेचे लोक पणजे आयले. तांणी आपापल्यो बसका घेतल्यो.

पणजेच्या मिनीबशींची जापसालकी अर्थात नागेशबाब करमलींचेर आशिल्ली. तो आपले डायरेर बरोवन दवरिल्लीं नोंदणी केल्ल्या प्रतिनिधींची नांवा तपासून ते प्रमाण तांका तांचो सीट दितालो. सगळे सीट भरले. फकत एके मिनीबशींत दोन सीट रिकामे उरले. म्हजी कल्पना ते नागेशबाब आनी म्हजे. पूण म्हजो अदमास चुकलो. तो एक सीट नागेशबाबाचो आशिल्लोच पूण दुसरो म्हजो न्हय तर रवीन्द्रबाबां पासत आशिल्लो. रवीन्द्रबाब ह्या १२ व्या अधिवेशनाचे अध्यक्ष आशिल्ले. तांतूंत तांका तांचे 'हिमालयांत' हे भोंवडे खबरेक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाभिल्लो. कोंकणी साहित्याक हो पयलोच पुरस्कार जाल्ल्यान रवीन्द्रबाबांचें सगल्यां कडल्यान अभिनंदन जातालें. अधिवेशनांत तांचो ते पासत भोवमान जावपाचो आशिल्लो. त्या भायर ते अधिवेशनाचे अध्यक्षूय आशिल्ल्यान त्याय पासत तांका परबीं दिवपा वांगडाच मोठो मान मेळटालो. रवीन्द्रबाब आमचे मिनी बशींत आसतले आनी हांव तांच्या सांगाताक कन्याकुमारी मेरेन वतलों हे कल्पनेन हांव वल्लेंतूय धरनाशिल्लों आनी सुपांतूय.

आमची मिनी बस पयलीं म्हाड्डोळा वचून रवीन्द्रबाबांक घेवपाची आशिल्ली आनी मागीर मडगवां हेरां वांगडा मुखा वयले वाटेक लागपाची. आमची बस रवीन्द्रबाबांगेर गेली. थंय रवीन्द्रबाब आमची वाट पळयताले. म्हाका पळोवन रवीन्द्रबाबांच्या तोंडार हांसो उदेलो. ''आरे आयलो मरे दिलीप, बरें जालें!'' म्हणत ते मिनीबशींत चडले. नागेशबाब सामको आदरान रवीन्द्रबाबांक बसूंक सुवात दितालो. रवीन्द्रबाबांचो सीट तांका दिलो तेन्ना म्हजे पासत सीट ना म्हणपाची कल्पना बशींतल्या हेरांक आयली.

मिनी बशीचो फाटलो सीट चार जाणांचो आशिल्लो. त्या सिटार तानाजी हळर्णकार, रमेश वेळुस्कार, प्रकाश पाडगांवकार आनी म्हाका दिसता दिगंबर सिंगबाळ काय कोण तरी चवथो बशिल्लो. तांच्या फुडलीं दोन सिटां तीन तीन प्रवाश्यांची आशिल्लीं. तांतूंतल्या एका सिटार पणजेच्यो तीन बायलो बशिल्ल्यो. त्यो कोंकणी वावुरप्यां मदल्यो नाशिल्ल्यो पूण प्रतिनिधी म्हूण परिशदेच्या निमतान भोंवडेक भायर सरिल्ल्यो. तांका हांव वळखनाशिल्लों. तांच्या फुडल्या सिटार नागेशबाब, रवीन्द्रबाब आनी आनीक एकलो कोण तरी आशिल्लो आनी ड्रायव्हरा फाटलें सीट दोन लोकांचें आनी ताचेर दोग जाण बशिल्ले.

रवीन्द्रबाब भितर आयले आनी जागो नाशिल्ल्यान हांव भायर उरलों.

''आरे नागेश, दिलीपाक सुवात ना रे..?'' रवीन्द्रबाबांचो प्रस्न.

''रवीन्द्रबाब, ताणें प्रतिनिधी वांगडी पटीय भरूंक ना आनी आपल्या सिटाचे पयशेय भरूंक ना.''

''आरे अशें कशें जातलें, तो खंय बसून इतलो प्रवास करतलो?''

''तुवें सांगलें म्हणून ताका हांवें यो म्हणलें. येवपाचें काय ना हें ताणें थारावपाचें. वतलो तो घरा.''

नागेशबाबान अशें म्हणूं नाका म्हज्या दोळ्यांतल्यान घळ्ळ करून दुकां आयलीं.

आरे ताका हांगा हाडचे आदीं सांगचें नाशिल्लें? फाटल्यान बशिल्ल्या रमेशान आनी तानाजीन विचारलें. उपरांत कितें करचें हाचेर तांची भासाभास जाली. त्यो तीन बायलो सामक्यो काकुटेन म्हजे कडेन पळयताल्यो. हांव लजेन सामको मरपा कडेन पाविल्लों.

''मडगांवचे बशीनी तरी एक जागो आसूं येता..?'' रवीन्द्रबाबांचो हुसक्याचो प्रस्न.

''म्हाका दिसना म्हाबळेश्वर (बोरकार) म्हणटालो सगले जागे भरल्यात. नागेशबाबाची जाप.''

''तुवें ताची सीट दवरपाची न्हय रे..? पयश्यांची तजवीज करूं येताली. हांवें सांगिल्लें मरे तुका नागेश.'' रवीन्द्रबाबांचो आवाज चडूच हुसक्याचो जाल्लो. म्हज्यान तें पळोवं नज जालें. हांवें म्हळें रवीन्द्रबाब हांव येना. हांव परत वतां घरा हांगच्यान. अशें म्हणून हांव देंवपाक लागलों. म्हजीं दुकां म्हजे कडेन आडवना आशिल्लीं. लज आनी अपमान अशी कितें तरी मिश्र भावना म्हाका खाताली.

''म्हजे शेजराक बसूं दी ताका. हांव ताका परत वचूंक दिना.'' अशें म्हणत रवीन्द्रबाबान सरकत बारीकशी सुवात केली. रवीन्द्रबाबांची तेन्ना पिराय त्रेप्पन वर्सांची. हांव एकवीस वर्सांचो. म्हाका काय रवीन्द्रबाब मांडयेर घेवंक शकनाशिल्ले. आनी तांचे ते धवेफुल्ल गोमाद खादी कपडे अशें चिड्डून गेल्यार इबाडपाचे. कितें करचें तेंच म्हाका कळना जालें. नागेशबाब मखख रावून भायर पळयताले. तेन्ना रमेश वेळुस्कारान म्हणलें, ''रवीन्द्रबाब, तुमी सारखे वेवस्थीत बसात. आमचे सिटार आमी ताका घेतात. चिंगरट जाली तरी अर्दी मर्दी उबे रावन प्रवास जावं येता. यो रे दिलीप फाटल्यान.''

सगल्यांनी सरकून म्हजे पासत सुवात केली. रमेश वेळुस्कार आनी तानाजी हळर्णकार हांचे मर्दी हांवें म्हाका चिड्डून घेतलो आनी आमची मिनी बस केरळाचे वाटेक लागली..

**(चलता)**

संपर्कः 9822136885

***



# मुकेशबाब नांवाचें बहुश्रुत बहुप्रसवा रसायन

**सुभाष जाण**



भोवआयामी साहित्यकार मुकेशबाब थळी हांकां ५ जून १९६३ ह्या दिसा पिरायेचीं ६० वर्सां जालीं. ३० जूनाक ते आकाशवाणीच्या वृत्त विभागांतल्यान निवृत्त जातले. सुमार तीस वर्सां तांणी ह्या विभागांत नेमान सेवा दिली.

कादंबरी सोडून हेर सगळे साहित्यप्रकार केळोवपी हो साहित्यकार म्हळ्यार एक भोवरंगी रसायन. तांचेकडेन उलयतकच ह्या चलत्या भोंवत्या साहित्यकाराचीं पाळां मुळां, विद्वत्ता, प्रतिभा हांची खोलाय जाणवता. मुकेशबाबा कडेन केल्लो हो मनमेकळो संवाद.

**भौ. मुकेशबाब, तुमी गणित विशय घेवन डिग्री घेतल्या, एक शिक्षक म्हूण एम.आय.बी.के. हायस्कुलांत कांय काळ नोकरी केल्या. अकस्मात ती नोकरी सोडून गोंय विद्यापिठांत विश्वकोश निर्मणेच्या कार्यात झोकून दिलें. शब्दकोश निर्मितीच्या वावराक लागले. हो बदल कसो जालो?**



गणित म्हजो आवडटो विशय. गणितान सुटसुटीत, मुद्देसूद, चिंतनाक विचारवाटेक एक तोंकाळपण हाडलें. हाडीत आसा. खांडेपार एक वर्स आनी मागीर सावय वेऱ्यां दोन वर्सां शिकयतकच हांव गोवा विद्यापिठांत कोंकणी विश्वकोश विभागांत संशोधन सहाय्यक म्हूण रूजू जालों. मुखेल संपादक मनोहरराय सरदेसाय आनी कार्यकारी संपादक तानाजी हळर्णकार हांच्या हाता सकयल काम करतना शिकूंक मेळ्ळें. भाशा शब्द ज्ञान हांची म्हाका पोट भरना इतली भूक. तातूंत करिअर करपाचें थारायलें. आनी आनंदाच्या मार्गार वचपाचें मोडण घेतलें.

**आयज आकाशवाणीचेर बातम्यो अनुवादीत करतना ताचो कसो फायदो जाता?**

शब्दकोश आनी विश्वकोश रचना करतना शेंकड्यांनी ग्रंथ हाताळिल्ले. कितल्याशाच तज्ञां कडेन भासाभास करपाची, उलोवपाची संद मेळिल्ली. भालचंद्र नेमाडे सारके इंग्लीश प्राध्यापक विद्यापिठांत शिकयताले आनी विश्वकोशाच्या कार्यकारी मंडळाचेर आशिल्ले. आकाशवाणीचेर बातम्यो अणकारतना ह्या संचिताचो बरोच लाव जालो. थंयसल्ले अधिकारी संपादक हांव विश्वकोशांत काम करून आयलां म्हूण म्हाकाच कांय उतरां विचारताले. वा, हें सारके जालें न्हय अशें आदरान विचारताले. तें तांचें मोटेपण.

हांवें केल्ल्यो कांय सुचोवण्यो तांकां आवडल्यो आनी तांणीय त्यो चालीक लायल्यो. जंय कोंकणी परमळ हाडूं येता थंय तो जायच. देखीक - 'हातूंत सहभागी जावचें अशें आवाहन मंत्र्यांनी केलें' हे पुवातेर केन्नाय कोंकणी वास आशिल्लें 'हातूंत वांटेकार जावचें असो उलो मंत्र्यांनी दिलो' अशें घेवं येता. अशे असंख्य यशस्वी प्रयोग हांवे केले, ते आकाशवाणीचेर वरिष्ठांक आवडले. एक आत्मविश्वास म्हाक अनुवादक म्हूण विद्यापिठाच्या कामान मेळोवन दिलो.

**तुमी गोंयातले नामनेचे अनुवादक, भाशांतरकार. कितल्योशाच कथा, कविता तुमी अणकारीत केल्यात. ह्या वावराविशीं सांगात.**

हांवें कोंकणी कथा इंग्लीशींत केल्यो त्यो सुमार १९९२ च्या सुमाराक. कोंकणी कथा ही थोड्याच वाचकां मेरेन पावताली. संपादक साहित्यीक चंद्रकांत केणी आनी हेमा नायक हाणी यत्न केल्ल्यान त्यो कथा नवहिंद टायम्स दिसाळ्याच्या आयतारच्या पुरवणींत एका एक दर आय़तारा छापून येवपाक लागल्यो. कोंकणी साहित्यांत किं आसा हें वाचिनासतना (कारण वाचूंक ना) आनी खबर नासतन नाक मुडुपाची कांय लोकांक संवय आशिल्ली. कोंकणी साहित्यांतलं गोंयचे मातयेची तांक, परमळ, साहित्यीक बळगें, अंतप्रवाह, प्रतिक प्रतिमां, काव्य, विचार, संदेश ह्या सगळ्यांचो दिश्टावो हांवें ह्या अनुवादांतल्यान घडयलो हें समाधान. कांय वस आर्दी कार्मेल कॉलेजींत इंग्लीश शिकोवपी ग्लेनीस मेन्डोन्सा हाणी कोंकणी कथांचे इंग्लीश अणकार ह्या आपल्या प्रबंधांत ह्या अणकार कार्याचो आस्वाद केलो. म्हज्या दिर्घ मुलाखती सयत. हांवें अणकारीत केल्ली हेमा नायक हांची कांचन ही कथा Knit India Literature ह्या खंडांत आसपावीत जाल्या. हीच कथा फ्रंटलायन ह्या देशातल्या नामनेच्या नेमाळ्यांत उजवाडाक आय़ल्या. ह्या कथांक बेस बरो प्रतीसाद मेळ्ळो. रस्कीन बॉण्डाचें एक पुस्तक हांवें कोंकणींत अणकारलां. हो प्रकल्प साहित्य अकादेमीन दिल्लो. सद्या विनोद शुक्ल हांची वण्टींतलें एक जनेल ही कांदबरी साहित्य अकादमीच्या प्रकल्पाखाला अणकारीत केल्या आनी ती उजवाडाक येवपाची आस आसा. जून जुलय साहित्य अकादेमीच्या इंडियन लिटरेचर ह्या अंकांत शीला कोळंबकार हांची हांवें अणकारीत केल्ली मॅगी ही कथा उजवाडाक आयल्या.

**तुमचे जीणेंत दोन रवीन्द्र आयले. एक शिक्षक रवीन्द्रबाब नमशीकार आनी दुसरे साहित्य अकादमी पुरस्कार प्राप्त रवीन्द्रबाब केळेकार. या दोगांयचो कितलो प्रभाव तुमचे लिखाणाचेर पडला?**

रवीन्द्र केळेकार हांचे सावळे खाला म्हज्यांतलो साहित्यीक घडलो. हांव प्रियोळा आजोळा शिकलां. पिरायेच्या धा वर्सांचो आसतना म्हाका म्हज्या मामान रवीन्द्रबाबांगेर व्हरून सोडलो. हांव तेन्नाच्यान बरयतां. तेन्ना कविता आनी काणयो बरयतालों. रवीन्द्रबाबांगेर साहित्यीक वातावरण म्हळ्यार माहौल पोशक आशिल्लो. तातूंत हांव वाडलों. तांची भाची माधवी थंयच आसतालें. तेंवूय बरोवपी. भाशेचें अभ्यासक. पुस्तकांच्यो राशी तांगेर आशिल्ल्यो. म्हान लेखक येताले वताले. कलाकार येताले. तांची सादी सोपी सुटसुटीत रसाळ प्रासादीक

लेखन शैली आसा ती म्हाका आवडली. हो प्रभाव म्हज्या बरपाचेर पडला.

स्कूलांत हेडमास्टर आशिल्ले रवीन्द्र नमशीकार. हुशार. अभिनय कला आंगांत आशिल्ले नागेशींचे कलाकार. कोंकणी मोगी. तांणी म्हाका एकॅडेमीक पांवड्यार उत्तेजन दिलें. म्हज्यांतलो वक्तो, लेखक फुलचो म्हूण वेगवेगळ्या सर्तींनी वांटो घेवपाक उर्बा दिली.

म्हजी आवय माई हें म्हजें जिणेचें, मनीसपणाचें आनी कोंकणीचें विद्यापीठ. तिचोय जबर प्रभाव म्हजे भाशेचेर आसा. नीत, रीत, शिस्त, संस्कार माईन आमचेर सहज बिंबयले.

अंत्रुज वाठारांतलो सैम, सैमसंगीत, बाकीचें संगीत, देवळां, देवळांची सासाय ह्या सगळ्यांचो प्रभाव म्हज्या व्यक्तिमत्वांत आनी साहित्यीकांत आसा. झरे, वझरे, दोंगर, कुळागरां, शेतां, गोरवां... सगळे संस्कार एकजीव जावन म्हजेर जाल्ल्यान तांचें दर्शन साहित्यांतल्यान घडटा.

**तुमी गणितांत स्पेशलायझेशन केलां. पदवी घेतल्या. गणिताचे तुमी स्कॉलर. ताचो फायदो साहित्यांत जाता?**

ताचो फायदो खंय आनी कितलो आनी कसो जाता हें सांगूं नजो. खूब जाता. गणितीय पध्दतीन कथेंतलें कथानक क्रमवार मांडपाक जाता. निबंदांतले परिच्छेद मांडपाक जाता. नाटकांतले प्रवेश अमूक मिनटांत थारावपाक जाता. मुदयेर थीक कशें पुनरूक्ती करिनासतना सुटसुटीत प्रासादिक मुद्देसूद बरोवपाक जाता.

**निबंद लेखन हें तुमचे सामकें आवडीचें. ललीत आनी वैचारीक आनी केन्नाच दोनांयचोय काव्यात्मक मिलाफ आशिल्ले शेंकड्यांनी निबंद तुमी बरयत आसात. बऱ्या निबंदाचे गुणधर्म खंयचे?**

तातूंत काव्य आनी लालित्यपूर्ण शैली जाय. ओघवतो प्रवाह जाय. वाचनीयता जाय. वाचप्याक खिळोवन दवरूंक जाय. टेक ऑफ म्हळ्यार सुरवात अळंग जाय. लँडींग म्हळ्यार निबंद विमानाभशेन अचळय देंवोवपाक जाय. घस्स करून विमानाचे टायर आपटिले जाल्यार कलकलता. तशें देंवयतना निबंदकारान कलात्मक रितीन तो सोंपोवपाक जाय. अखेर प्रभावी जाय. माथाळो अप्रतीम जाय. भाशा सुटसुटीत जाय.

**एक नाटककार म्हूण पुराय गोंय तुमकां आयज वळखता. एक साहित्य प्रकार म्हूण नाटकाचे साहित्यमुल्य कितें? कथा, कादंबरी, नाटक हातूंत श्रेष्ठ प्रकार खंयचो? कित्याक?**

प्रस्न खूब आवडलो. नाटक हो म्हजो आवडटो साहित्यप्रकार. संहिता आनी सादरीकरण दोनूय तरांनी. जिते जिवे कलाकार तुमच्या दोळ्यां हजीर रसरशीत तट्टीत अभिनय मंचीत करतात. नट आंगूळ, कुस्कूट चुकलो जाल्यार प्रवाहाक बादा येता. कथा, कादंबरी, नाटक हातूंत श्रेष्ठ बी कांय ना. सगळेच बरे साहित्यप्रकार genres. पूण नाटक बरोवप सोंपें न्हय आनी कारण तें माचयेर आविश्कृत करपाचें आसता. नाटक फक्त निकटो साहित्यप्रकार न्हय. तो एक मोटो टीम यत्न. दिग्दर्शक, नट, तंत्रज्ञ अशे वांगडी तातूंत येतात. नाटककाराचो विचार आनी संदेश ते सगळे एकवटीतपणान प्रेक्षकां मेरेन पावयतात. नाटक हें मिश्र रंगांचें काव्य. नाटक विणप, गुथप कितलें कठीण आनी जतनायेचें हाचो अणभव हांवें घेतला. प्रतिकां प्रतिमा रूपांत

नाटकाचे संहितेंत साहित्यमुल्यां उमळ कशी पाझरपाक जाय. नाजाल्यार अभिनय तंत्रज्ञांची साथ आसुनूय तें पोकें थारूं येता.

**स्वतंत्र, भाशांतरीत, अणकार, रुपकार, कथा-कादंबरीचेर आदारीत नाटक - हातुंतलो खंयचो प्रकार तुमकां चड मानवता? कित्याक?**

स्वतंत्र मौलीक नाटक बरोवपाक म्हाका सृजनशीलतेचो चड आनंद मेळटा. तातूंत संवादांची वीण रचतना स्वता कडेन झुजचें पडटा. तातूंत एक कैफ मेळटा. अणकार, रूपकार वा कांदबरीवेल्यान नाटक हातूंत मेकळीक मेळना. थंय अती मस्ती करप म्हळ्यार लेखकाचो अनादर केल्ले भशेन. अती घालूंक भरसूंक मेळना. अती कापूंक काडूंक मेळना. सशक्त मौलीक नाटक बरोवप कठीण आनी असल्या संहितांची कोंकणी माचयेक चड आनी चड गरज आसा.

**तुमच्या नाटकांत पर्सीयन आध्यात्मीक कवी रुमीचे काव्यात्म विचार खूपदां येतात. तुळाभारांतूय आयल्यात अशें जाणवता. हो रुमी तुमकां खंय सांपडलो? कसो पचयलो?**

रूमी हो पयलो सुफी संत कवी अशें मानतात. कांय इश्टांनी कबीर वाचतना होय कवी वाच अशें कांय वर्सां आदीं सुचयल्लें. उपरांत खूब वर्सां आदीं दिल्लीक गेल्ले कडेन रूमीचीं पुस्तकां घेतलीं. तेन्ना सगळ्याच कवनांचो अर्थ लागलोना. आकलनांत आयलोना. पूण तो परत परत वाचतकच तातूंतली खोलाय आनी खोलायेची मेंदवाक काळजाक हाडपी नशा अणभवली. तो रूमी हांवें कांय प्रमाणांत कोंकणीत अणकारला, हें समाधान. हाचे आदीं रूमीच्यो कविता कोंकणीत कोणेच अणकारूंनात.

**नाटकाचें कथानक सुचतकर घटनांचो क्रम लावप, प्रसंगांची मांडणी करप, संवाद शैली थारावप, खंयचे विचार आनी ते कशा पद्धतीन मांडप हें कशें थारायतात?**

म्हज्यांत एक गणिततज्ञ आशिल्ल्यान हे मांडावळींत गणितीय सूत्रबध्दता दिसता. दोरेमीफा नाटकाच्या प्रकाशन सुवाळ्यांत नामनेचे रंगकर्मी प्रदीप वेर्णेकार हाणी हें सांगिल्लें. तांकां हांवें गणितांत स्पेशलायझेन केलां हें खबर नाशिल्लें. कर्नाडाच्याय नाटकांत प्रवेशांच्या वेळाची आनी मांडणी अशीच आसता अशें ताणी म्हणिल्लें. कर्नाडान लेगीत धारवाडा गणित सांख्यिकीचें शिक्षण घेतिल्लें हें हांवें तांकां सांगलें. नाटक बरोवचे पयलीं हांव आख्खें नाटक, एकेक प्रवेश कितलेशेच खेपे मनाच्या मंचार पळेतां. घराच्यो कुडी आसतात तशे एकदां क्रमवार प्रवेश थारायले काय मागीर संवाद लेखनाक हात घालतां. सरावान हें शक्य जाता. पूण सोंपें न्हय. एकेका प्रसंगांत एक लेगीत पात्र निष्क्रिय म्हळ्यार संवादाविणें उरल्यार तें प्रेक्षकाक कंटाळवाणें दिसता.

**बादल सरकारांचे 'एवं इंद्रजीत' हें एब्सर्ड प्रकारांत मोडटा असलें नाटक. हो प्रकार समजुपाक कठीण. समजावन दिवपाक म्हाकठीण. हें नाटक कोंकणी रंगमाचयेर येवचें अशें कित्याक दिसलें? ते नाटकाच्या रूपांतराविशी विस्तारान सांगात.**

श्री नागेश महालक्ष्मी प्रासादिक संस्थेन प्रकाश थळी हाणी अणकारीत केल्लीं बादल सरकाराचीं नाटकां केल्लीं. बादल सरकाराचीं नाटकां २५ वयर. 'एवम्' नाटक सोपें न्हयच न्हय. कठीण गणिताचें आव्हान पेलपाक एक खोस आसता तसो आनंद हें नाटक अणकारीत करतना जालो. आर्विल्ल्या भारतीय रंगभूमी वयलें हें श्रेष्ठ नाटक.

हांव आकाशवाणीचेर वृत्तनिवेदक म्हूण वावुरतां थंय तेन्ना वृत्त विभाग मुखेली आशिल्ले गोपाळ चिप्पलकट्टी. विद्वान. नाटक, साहित्य, कला हांचे गाढे अभ्यासक आनी समीक्षक. तांचे कडल्यान absurdism ची विदेशी नाटकांनी जी संकल्पना येता ती समजून घेतली. नाटकांत

अस्तित्ववादाचेय धागे गुंतल्यात. अणकार करप म्हळ्यार शब्द आनी शब्द बातम्यांत अणकारीत करतात तशें गजाल न्हय. सगळे अर्थप्रवाह समजून घेतकच अणकार केलो. कर्नाडाचो इंग्लीश अणकारूय वाचलो. पूण कोंकणी अणकार करतना मायभाशेची शब्द-लय दिवपाची गरज आशिल्ली. कश्ट करून तें साधलें. गोपाळ सरान म्हळें - आपणें खूब भाशांतलें एवम् पळयलें. हें उत्कृश्ट. नाटकाक पयलें इनाम मेळ्ळेंच, हें इनाम खूब ग्रेट.

**कांय लेखकांची नाटकां विशय बरे आसूनय रंगमाचयेर आयलीच ना. तांचे प्रयोग करप कुस्तार जाता. कित्याक तर, नाटक बरोवपाचें म्हूण एक खास तंत्र आसता. तुमकां तें बेस बरें सादलां. कशें?**

नाटकांचें तंत्र समजुपाक हांवें कांय वर्सां वाचन केलें. नाटककार कितें म्हणटात, समीक्षक कितें म्हणटात तें वाचलें. इंग्लीश आनी मराठी. लंडनाक आनी अमेरीकेक नाटक कशें चललां तें वाचलें. नाटक हो म्हजो आवडीचो कलाप्रकार. इतलीं वर्सां तो पळोवन पळोवन ताचें चिंतन चालूच आशिल्लें. म्हज्या आवडीच्या घटकां प्रमाण हांवें हें तंत्र आपणायलें.

**कांय नाटकां एखाद्र्या खास नटाक दोळ्यांमुखार दवरून बरयल्लीं आसतात. उदा. मानापमान, एकच प्याला आदी बाल गंधर्वाखातीर. तशें करप कितपत योग्य? तुमी केलां?**

अशें हांवें केलें. दोरेमीफा सारेनीसा हें नाटक हांवें अजित केरकारान मुखेल भुमिका करची हें नदरेमुखार दवरून बरयलें. गोंयचो हो सर्वश्रेष्ठ नट. ताचो अभिनय हांव देहभान विसरून पळेता, तातूंत रंगून वतां. कारण हो नट नाटक जगता. खरें म्हळ्यार अजितभाईक सर्तींत आतां भुमिका कर म्हणप योग्य न्हय. फक्त म्हजें प्रेम आनी ताचो पार्ट पळोवपाची आनी पळोवंक नाशिल्ल्या म्हज्या मित्रांक ह्या म्हान नटाची वळख घडोवन हाडपाची उर्मी आनी खुमखुमी आशिल्ली. थेटर पॅक जालें. हांवें आनी म्हज्या व्हडल्या भावान अमोलान लोकांक आपयले. असले ताकदीचे नट आनी नटसंच आनी संहिता आसा म्हूण खूब जाणांक अजाप जालें. म्हजी तान भागलिना. तुळाभार हें नाटक हांवें बरयलें ताची मध्यवर्ती भुमिका आदवोगाद. हांगाय अजितभाईक हांवें आग्रो केलो. ताणें विनंती मानून घेतली. आनी परत आमकां आनंद दिलो.

**तुमकां संगीताची बरी समज आसा, जाण आसा. रागांचे ज्ञान आसा. दो रे मी फाच न्हय तर सगल्याच नाटकांनी तें जाणवता. संगीताची आवड कशी निर्माण जाली? संगीत शिकल्यात? तुमच्या संवादांतय एक लय जाणवता ती ताकाच लागून?**

आमच्या थळी घराण्यांत संगीत भरलां. आजो गंगाराम बरो अभिनेतो आशिल्लो. तेचप्रमाण तो पखवाजपटू आनी तबलापटू. लयकारेची समज आशिल्लो. घरांतले सगळेच वाजोवपी वा गावपी. बापोलभाव, भाव हे वकील आसले तरी तांणी मुळावें शास्त्रीय संगीत शिकप घेतलां. हांवें उपचारीक शिक्षण घेतलेंना. पूण खूब आवड. दर दिसा संगीत आयकतां. तुमी म्हणटात तें सामकें बरोबर. संवादांत लय आपसूक आनी सहज येता. संगिताचेच उपकार हे.

**बाल रंगभूमीखातीर, शालेय - म्हाविद्यालयीन विद्यार्थ्यांखातीर एकांकीचे लेखन केलां?**

भुरग्यां खातीर हांवें एकांकी बरयल्यात. त्यो कला अकादमीच्या सर्तींत जाल्यात. मंगेशीच्या वागळे हायस्कूलान भाकरी आनी चाकरी ही म्हजी एकांकी सादर केल्ली. आल्मैदा हायस्कूलान नितळ काळीज निवळ कात ही एकांकी सादर केल्ली. सुभाष जाण हांणी कुट्टीच्या अमेय हायर सेकंडरी वरवीं म्हज्यो बऱ्योच एकांकी सादर केल्यात. तांकां जायतीं इनामां मेळ्ळ्यांत. शीला कोळंबकार हांच्या हांव वांजूड न्हय हे पावरफूल कथेचेर आदारीत हांवें टेलिफिल्म केल्लें - पणजी दूरदर्शना खातीर. ताची पटकथा संवाद हांवें बरयल्यात. ह्या सगळ्या माध्यमांतल्या संवादांच्या सरावान अणभवान म्हाका ही घटी, तंत्र जमली हातार बसली. रेडीयोचेर हांव काम करता. थंयूय संवाद बरयल्यात. सगळ्यांत कठीण रेडीयो प्ले. पयलीं म्हणजे हे संवाद नटां खातीर अशे तरेन बरोवचे पडटात की सगळो अभिनय वाचा वाणीन उलोवन करपाचो आसता. आनंद, शोक, पिरंगण, वाज, राग सगळें नटांक फक्त फक्त आवाजान दाखोवपाचें आसता. ती कळाशी संवाद बरयतल्या लेखकाक आसपाक जाय.

**आपलें नाटक रंगमाचयेर सादर जाता तें प्रत्यक्ष पळयतना तुमकां कितें दिसता?**

प्रस्न आवडलो. म्हजें नाटक माचयेर जेन्ना प्रत्यक्ष सुरू आसता तेन्ना जावपी आनंद वेगळेच तरेचो आसता. सर्ती खातीर बी नाटक चलता तेन्ना तें अचूक घडत मुखार सरकूंक जाय हो एके तरेचो ताणूय आसता. कारण खंयचोय नट केन्नाय ब्लँक जावं येता. पूण ताचें समर्थन करूं नजो. नाटकांत कोणूच संवाद विसरूंक जायना, चुकूंक फावना हो ताण आसता. म्हजे मित्र म्हणटात- पार्ट करतात ते मरे स्टेजीर, तुका बेठोच कित्याक चलबिचल जावंक जाय... म्हज्यांत एक जबर खोलायेन पळोवपी समीक्षक, परीक्षक, टिकाकार आसा तोवूय सजग आसता ताका लागून म्हाका एकसारकें कळत आसता, खंयच्यो फ्राकेजी उरल्यो त्यो. लोकांक ना कळूं. पूण आपल्या सृजनशील मनांतल्यान किल्लल्ले संवाद आनी उतरां माचयेर उसळून तांची तरंग - वलयां - कंपनां-स्पंदनां आनी कण कण प्रेक्षकांच्या मनांत रिगतात, ते दाद दितात, ताळयो मारतात तो अणभव आंगार कांटो हाडटा. श्रमांचें चीज जाता तेन्ना. नाटक सोंपसर एके तरेची उपाट खोशी आनी तितलोच एके तरेचो ताण आसता. सगळें सुरळीत जावंक जाय हें. दुसऱ्या अंकाचो पड्डो पडटकच सू जाता.

**कांय लेखक नाटकांतले सगळे प्रस्न नाटकांतच सोडोवन भरतवाक्यान तें सोंपयतात. तर कांय जाण प्रस्नांच्यो जापो प्रेक्षकांनी सोदच्यो हे अपेक्षेन नाटकाचो शेवट करतात. तुमकां खंयचो प्रकार मानवता?**

म्हाका प्रेक्षकांक चिंतूंक लावन अस्वस्थ करपाक आवडटा. एके वटेन कलाकृतीचो आनंद आनी दुसरे वटेन भितल्ले धागे, पोड ताच्या रगतांत चिंतनांत घोळत रावंक जाय. सोदूनी जापो. सोदूनी उपाय. सोदूनी तोडगो. नाटकभर उतरांपोंदा आनी संवादां पोंदा जे प्रवाह खुळखुळत सोडल्यात तेविशीं संबंदीत विशयाचेर प्रेक्षकांक चितूं दी. भरतवाक्यान नाटक सोंपना. नाटक सोंपता थंयच सुरू जावंक जाय. प्रेक्षकांच्या मनांत. नाटककाराची जापसालदारकी ही.

संपर्क: 9422058943

***

# 'कोंकणी भाशाविज्ञान': भासविज्ञानाचो अभ्यास करपी रंगयाळो थेंबो

रजत अ. हेगडे

प्रस्तावना



'भासविज्ञान' हें उतर मुळांत दोन उतरां पासून घडलां. ताची मूळ फोडणिशी केली जाल्यार 'भास' आनी 'विज्ञान' अशी दोन उतरां नदरेक पडटात. तोंडांतल्यान उच्चार केल्लो आनी ज्या ध्वनींक अर्थ आसा ताका भास अशें म्हणपाक जाता. तशेंच विज्ञान म्हणल्यार शास्त्रीय आनी तर्कशुद्ध पद्दतीन केल्लो खंयच्याय गजालीचो अभ्यास. देखून भासविज्ञानाची मुळावी संकल्पना मांडटना, भासविज्ञान म्हणल्यार शास्त्रीय आनी विज्ञानीक रितीन केल्लो भाशेचो अभ्यास अशें म्हणल्यार चूक जावंची ना. हातूंत दिसपट्टे जिवितांत भास कशी उलयतात हाचे नमुने घेवन, तांचेर प्रयोग लावन, तांची तुलना वा निरिक्षण करून ताचेर अभ्यास करपाची रीत आसा. संवसारांतल्या जायत्या अभ्यासकांनी तशेंच विचारवंतानी भासविज्ञान आनी ताच्या साबार फाट्यांचो शास्त्रीय रितीन अभ्यास केला आनी आपआपले पद्धतीन ताची व्याख्या आनी संकल्पना स्पश्ट केल्या. हातूंत मुखेलपणान विलियम जोन्स्, सोस्यूर, लेनर्ड ब्लूमफिलड, च्योम्सकी अशे अनेक अभ्यासकांचो आसपाव जाता. भारत आनी भासविज्ञान संबंदीत उलयल्यार डॉ. रामकृष्ण भंडारकर, सुनितिकुमार चटर्जी सारकीं नांवां नदरेक पडटात.

भासविज्ञानाचें म्हत्व समजून शैक्षणीक पांवड्यार ताचो आसपाव करपाचो हेतू बाळगून जायत्या महाविद्यालयांनी आनी विद्यापीठांनी भासविज्ञानाचो स्वतंत्र विभाग स्थापीत केला. हाची सुरूवात पुणेच्या डॅक्कन महाविद्यालयांत जाली. १९५३ वर्सा रॅल्फ टर्नराच्या फुडारपणाखाला पुणेच्या डॅक्कन महाविद्यालयांत भासविज्ञानाचें शिक्षण दिवपा खातीर एक बसका जाली. आनी उपरांत डॅक्कन महाविद्यालयांत भासविज्ञान विभाग सुरू जालो. १९५८ वर्सा भासविज्ञानांत पदव्युत्तर शिक्षण सुरू जालें. हातूंतल्यान भारतीय अभ्यासकांचो आनी संशोधकांचो पाश्चात्य भासविज्ञानीक अभ्यासपद्धती कडेन संबंद आयलो. आयज भारतांत साबार विद्यापीठांनी भासविज्ञानाचो अभ्यास जाता तशेंच आय. आय. टी. सारक्या शैक्षणीक संस्थांनी भासविज्ञानांचो अभ्यास आनी संशोधन जाल्लें पळोवपाक मेळटा.

विशय प्रवेश

गोंयांत १९८५ वर्सा गोंय विद्यापीठाची स्थापणूक जाली. आनी १९८७ वर्सा गोंय विद्यापीठांत कोंकणी विभागाची सुरूवात जाली. कोंकणी विभागांत सुरवेच्या काळांत कांय मुळावे पेपर कोंकणी आनी हेर पेपर हिंदी, मराठी आनी हेर भाशेंतले आशिल्ले. पूण जशें जशें कोंकणीच्या मळार संशोधनाचो वावर चलत रावलो तशें तशें नवे नवे पेपर विद्यापीठ पांवड्याचेर विद्यार्थ्यां खातीर लागू जाले. अशोच एक पेपर म्हणल्यार भासविज्ञानाचो. पूण सुरवेच्या काळार भासविज्ञानाचो अभ्यास करतलो जाल्यार विद्यार्थ्यांक मराठी वा हिंदी भाशेंतल्या संदर्भ पुस्तकांचो आदार घेवचो पडटालो. कोंकणीतल्यान संदर्भ पुस्तकांची गरज भागोवपा खातीर जायत्या अभ्यासकांनी आनी लेखकांनी अनेक विशयां वयर्लीं पुस्तकां बरयलीं. हातूंतलेंच एक पुस्तक म्हणल्यार 'कोंकणी भाशाविज्ञान'.

'कोंकणी भाशाविज्ञान' हें पुस्तक प्रा. भालचंद्र गांवकार हांणी बरयलां. हें पुस्तक १९९३ वर्सा उजवाडाक आयलां आनी मित्र प्रकाशन हांणी तें प्रकाशीत केलां. ह्या पुस्तकांत भासविज्ञान विशया संबंदीत अनेक लेख आसात. तांची उडटी वळेरी मांडली जाल्यार नाद आनी भास, भासविज्ञानाची मुळावी संकल्पना, स्वनविज्ञान, कोंकणी भास आनी तिची घडण, प्रमाण भास, पोटभास आनी बोली, भासकुळां आनी कोंकणी भास, अर्थबदल, लिपी अशे अनेक संशोधनात्मक लेख अभ्यासकाच्या नदरेक पडटात. हें पुस्तक बरोवप्यान डॉ. श्री. शं. फडके आनी डॉ. सोमनाथ कोमरपंत हांकां ओंपलां.

'कोंकणी भाशाविज्ञान': आशय आनी विशय

खंयच्याय विशयाची सविस्तर म्हायती मांडटलो जाल्यार सुरवेक ताची उडटी वळख आनी विशयाची फांटभूंय दिवप खूब गरजेची आसता. लेखकान हीच गरज समजून भासविज्ञान ह्या कठीण विशयाक हात घालचे पयलीं भास, नाद, ध्वनी, अर्थ अश्या अनेक उतरांची फोडणिशी करून तांची मुळावी संकल्पना वाचप्यांक स्पश्ट करून दिल्या. तशेंच सुरवेक उतराची जडण आनी घडण कशी जाता हाचेर देखी सयत उजवाड घाला. त्याच प्रमाणे उतराची उत्पत्ती आनी ताचो सामुहीक वापर कसो जाता हाचेरूय तांणी वाचप्यांक म्हायती दिल्या. वयलो विशय मांडटना लेखक बरयात-

*ध्वनींच्या चोम्यासावन तयार जावपी उतराक अमुकूच असो अर्थ आसना. पूण उपरांत खंयच्याय गजाली विशीं एखाद्रें उतर वापरलें म्हणटकीत कांय तेंपान तें उतर ते गजालीपुरतें मर्यादीत जाता. तें उतर चड लोक वापरूंक लागले म्हणटकीत ताका अर्थ लागू जाता. (गांवकार भालचंद्र, पान ०७)*

वयल्या विधानाक पुश्टी दिवची जायत जाल्यार 'कोरोना' हें उतर २०१९ पयलीं

सगळ्यांक अनवळखी आशिल्लें. पूण उपरांत 'कोरोना' म्हणल्यार एक दुयेंस असो एक थरावीक अर्थ ताका फावो जालो. उपरांत 'कोरोना' ह्या उतराचो वापर लोकांमदी चड जावंक लागलो आनी तें एक दुयेंस असो अर्थ तांणी आपणायलो. इतिहासीक आनी संस्कृतीक कारणांक लागून हेर भासांचो प्रभाव पडटकच उतरांचें आदान- प्रधान जाता हाचेरूय ह्या पुस्तकांन उजावड घाल्लो दिश्टी पडटा. तशेंच लेखक ध्वनीची खाशेलपणां सांगून हेर माद्यमां देखीक कुरवो आनी चिन्हां पासून ती कशी वेगळी थारता हें मुद्देसूद वाचप्यांक पटोवन दिता.

लेखकान भाशेची जडण आनी घडण सांगतना भाशेचो अभ्यास करपाच्या रितींचेरूय खोलायेन चर्चा केल्या. इतिहासीक रीत (Historical Method), तुळात्मक रीत (Comparative Method) आनी वर्णनात्मक रितिंचे (Structural Method) विश्लेशण करून युवा पिळगेक संशोधन आनी अभ्यासा खातीर त्या रितींचो प्रत्यक्ष वापर आनी उपयोजन करपाची एक संद दिल्या. भास, भाशेचें म्हत्व, भासविज्ञानाची मुळावी संकल्पना मांडटना लेखकाची संशोधनात्मक वृत्ती वाचप्यांक स्पश्ट जाता. पुस्तकांत शास्त्रीय आनी विज्ञानीक अभ्यास मांडिल्लो दिश्टी पडटा. लेखकान स्वर आनी व्यंजनांची घडण कशी जाता हाचेरूय उजवाड घाला. स्वर आनी व्यंजनांची घडण, उच्चारण- अवयवांचेर आदारिल्ले वर्गीकरण हाचेरूय लेखकांन वाचप्यांक शास्त्रीय रितीन म्हायती दिल्या. मुळाव्या शैक्षणीक पांवड्यार शिकोवपी शिक्षकांक हाचो वापर जावं येता हातूंत मात लेगीत दुबाव ना.

लेखकान अल्पप्राण- महाप्राण, अर्दस्वर सारकी संकल्पना ह्या पुस्तकांत स्पश्ट केल्या. भासविज्ञानाच्या साबार फाट्यांचेर विचार व्यक्त करतना लेखकान कोंकणी भाशेकडेन ताचो संदर्भ जोडला. कोंकणी भास आनी तिची घडण सांगतना भासविज्ञानीक नदरेंतल्यान कोंकणी भाशेचो एकंदर इतिहास लेखकान अभ्यासकांच्या नदरे सामकार दवरला. कोंकणी भास ही सर्वसामान्यपणान ८-९ शेंकड्यांत जल्माक आयिल्ली अशें जाणकारांचें मत आसा. इतिहासांत गोंयचेर साबार राजवटींनी राज्य केलें. तांणी आपली भास आनी संस्कृती गोंयच्या लोकांचेर थापपाचो यत्न केलो. हाचोच परिणाम कोंकणी भाशेचेर साबार भारतीय आनी युरोपी भाशांचो प्रभाव पडलो. देखीक कन्नड, अरबी, पुर्तुगीज, इंग्लीश अश्या अनेक भासांचो प्रभाव कोंकणी भाशेचेर पडलो. हाचेर खोलायेन ह्या पुस्तकांत चर्चा केल्ली नदरेक पडटा.

भासकुळां आनी कोंकणी भास हाचेर नव्या अभ्यासकांक संशोधन करपाचो एक मार्ग लेखकान ह्या पुस्तकावरवीं उक्तो करून दिला. तशेंच 'लिपी'चो इतिहास सांगतना लिपीचे साबार प्रकार आनी भारतांतल्यो ऐतिहासीक लिपयो हाचेर सविस्तार म्हायती ह्या पुस्तकांत व्यक्त केल्या. कोंकणीचें कालीक वेगळेंपण दाखोवप हो ह्या पुस्तकाचो म्हत्वाचो गूण. हातूंत इतिहासीक कोंकणी ग्रंथांतले काय नमुने लेखकान वाचप्यां सामकार मांडल्यात. हातूंतल्यान कोंकणी भाशेंत आनी उतरावळींत आयिल्ले काळंतर बदल नवे पिळगेक आनी संशोधकांक अभ्यासपाक मेळटा.

**समारोप**

ह्या पुस्तकाची साबार खाशेलपणां आसात. कोंकणी भासविज्ञानाचो अभ्यास करपी हो एक म्हत्वाचो संदर्भ ग्रंथ जावन आसा हातूंत मात लेगीत दुबाव ना. ह्या पुस्तकांत क्लिश्ट आनी कठीण उतरावळ विपरिल्ली नदरेक पडना. साद्या आनी सोप्या भाशेंत लेखकान आपले विचार आनी अभ्यास वाचप्यां मुखार मांडला. पुस्तकांत आयिल्ले कठीण संदर्भ लेखकान चडांत चड देखी दिवन स्पश्ट करपाचो प्रयत्न केला. पूण संदर्भीक टळटिपो नदरेक पडना. तशेंच कोंकणी भास आनी तिच्या उगमा संदर्भांत आशिल्ले अनेक गैरसमज लेखकान ह्या पुस्तकावरवी पयस करपाचो प्रयत्न केला. भासविज्ञानाच्या मळार अभ्यास करपी नव्या संशोधकांक तशेंच विद्यार्थ्यांक बुन्यादी गिन्यान आनी भाशेचो अभ्यास कशे तरेन करचो हाची सविस्तर म्हायती हें पुस्तक दिता अशें म्हणल्यार अतिताय जावंची ना.

संदर्भग्रंथ

१. गांवकार भालचंद्र (१९९३), *कोंकणी भाशाविज्ञान.* फोंडे-गोंय: मित्र प्रकाशन.

२. सरदेसाय माधवी, म्हाळशी कमलाकर वेरेंकार श्याम. (२००३). *कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय,* मडगांव-गोंय: कोंकणी भाशा मंडळ.

३. Prajal, S. (2019). *Goa Gold Goa Silver Her History Her Heritage From Earlier Times To 2019.* Panjim: Broadway Publishing House.

४. सरदेसाय माधवी. (१९९३). *भासाभास.* प्रियोळ-गोंय: जाग प्रकाशन.

५. https://www.dcpune.ac.in/

६. https://www.unigoa.ac.in/

संपर्क: 7378829909 ***

# 'ग्रंथालय आणि म्हायतीशास्त्र इंग्लिश-कोंकणी शब्दकोश' हाच्या निमतान

**सखाराम शेणवी बोरकार**



खंयच्याय भाशेचें कोश साहित्य त्या भाशेक घटाय दिता. कोश म्हळ्यार खंयचेय भाशेचें उतर धन, उतरांची कोठी कशी. विशिश्ट काळांत विशिश्ट भाशेची उतरांची संपत कितली आनी कसली आसली, परकी उतरांचे प्रमाण कितलें आसलें, पोत्री उतरां खंयची आसलीं आनी आतां त्या जाग्यार खंयची उतरां आयल्यांत हाची जाप आमकां शब्दकोशांवरवीं मेळटा.

कोश हे कितलोसोच व्याकरणीक भार उखलतात. कोशांत दिल्ले उतरांचे अर्थय वेव्हारांतल्यान समजून घेतिल्ले आनी सोदून काडिल्ले आशिल्ले कारणान ताचो दिसपट्ट्या वेवहारांत उपेग करपाचो वावर सोंपो जाता. कोशकार भाशेच्या प्रयोगाक धरुन कोश रचता खरो, पूण केन्ना केन्ना दुसऱ्या भाशेच्या प्रभावाखाला चिड्डून उरिल्ल्या भाशेक एक दिकाय दाखयता. आपल्या भाशेंत आसतानां दुसऱ्या भाशेंतलीं उतरां तश्या तशीं वापरांत हाडपाचो येत्न जाता तो आळबंदाक हाडपाचो येत्न कोश करता. देख दिवंची जाल्यार आमच्यानीं मोन्सियोर सेबास्तियांव रुदोल्फ़ दाल्गाद हांच्या 'कोंकणी-पुर्तुगेज' शब्दकोशाची दिवंक जाता.

नामनेच्यो कोंकणी संशोधक स. माधवीबाय सरदेसाय आपल्या एका लेखांत कोश साहित्याक भाशेची 'राखणे वेवस्था' म्हण्टा. आनी तें विधान सामकें खरें!

चडश्या भारतीय भासांभशेन कोंकणींतल्या कोशांचो इतिहासयबी द्विभाशीक कोशांतल्यान सुरू जाला. हातूंत सुरवेच्या काळांत उतरावळी आनी उप्रांत हेर व्याकरणीक म्हायती सयत येवपी कोश असो प्रवास सुरू जाता. आमची कोंकणी भासूय ताका आडवाद नां.

कोंकणी भाशेक कोश साहित्याचो खूप व्हडलो इतिहास आसा. कोंकणी भाशेंत पयलो कोश आयलो तो म्हळ्यार १५६७ वर्सा. रायतूरचे सेमिनारींतल्या कांय पाद्रीनीं रचिल्लो हो कोश सुमार पदरा हजार कोंकणी उतरांचो पुर्तुगेजीन अर्थ सांगपी आसलो. जाणकार ह्या कोशाक देसी भासांतलो पयलो वयलो कोश लेखतात. उपरांत सतराव्या शेंकड्यांत दोन म्हत्वाचे कोश आयले तांतलो एक कोश म्हळ्यार १६२६ वर्सा रायतूरच्या सेमिनारींत हातबरपाच्या रुपान आयिल्लो 'कोंकणी-पुर्तुगेज' आनी 'पुर्तुगेज-कोंकणी' शब्दकोश ताचें नांव 'Vocabulario वर Lingua Canarina com versam Portugueza'. हो कोश येवरोपी जेजुईत पाद्री दियोग रिबैर (१५६०-१६३३) हांणी रचलो. दुसरो कोश आसलो पाद्री मिंगेल द आल्मैदा हांचो 'कोंकणी-पुर्तुगेज' शब्दकोश.




उप्रांत इतालियान जेजुइत पाद्री आंजेलो फ्रांसिस्क शावियेर माफेय (१८४४-१८९९) हांणी मंगळूरा तयार करुन १८८३ वर्सा उजवाडाक हाडिल्लो इंग्लिश-कोंकणी(रोमी) कोश हो कोंकणींतलो पयलो छापिल्लो शब्दकोश. त्या उप्रांत दोन वर्सांनी तांचो 'कोंकणी(रोमी)-इंग्लिश कोश १८८५ वर्सा उजवाडाक आयलो. माफ़ेयचे कोश मंगळूरच्या क्रिस्तांवाच्या जिबेर घोळपी कोंकणीचेर आदारिल्ले आसले.

माफेयच्या कोशां उप्रांत वट्ट धा वर्सांनी म्हळ्यार १८९३ वर्सा मोन्सियोर सेबास्तियांव रुदोल्फ दाल्गाद हांणी 'इंदु प्रकाश प्रेस', मुंबय हांगा 'कोंकणी-पुर्तुगेज' शब्दकोश उजवाडाक हाडलो. कोश साहित्यांत देवनागरी कोंकणीचो उपेग जावपाची ही पयलीच खेप. उप्रांत तांणी आपलो राबितो पुर्तुगालाच्या लिस्बन शारांत केलो आनी थंयच तांचो १८९५ वर्सा 'पुर्तुगेज-कोंकणी' शब्दकोश उजवाडाक आयलो.

गोंय सुटके उप्रांत सुमार वीस वर्सांनी सर्गेस्त श्रीपादबाब देसाय हांणी रचिल्लो कोंकणीच्या पयल्या एकभाशीक कोशाचो पयलो खंड १९८० वर्सा उजवाडाक आयलो. ह्या शब्दकोशाचे वट्ट चार खंड उजवाडाक आयले. सिताराम प्रकाशन, पेडणे हांणी ते उजवाडाक हाडले. कोंकणीच्या कोश साहित्याच्या मळार येदो एकहाती व्हडलो वावर पयलेच फ़ावटी जालो. उप्रांत प्रो.शांताराम हेदो हांणी रचिल्लो कोंकणी एकभाशिक कोश १९९२ वर्सा उजवाडाक आयलो. तो कोंकणी भाशा मंडळान उजवाडाक हाडलो.

गोंयच्या जनमानसाचेर इंग्लीशीचो प्रभाव वाडपाक लागिल्लो आनी अश्या वेळार 'इंग्लीश-कोंकणी' शब्दकोशाची खूप गरज भासूंक लागिल्ली. ही गरज भागोवपाखातीर गुरुनाथबाब केळेकार हांणी १९९४ वर्सा पॉकेट सायझींतलो हाताळपाक सोंपो सुमार १६००० इंग्लीश उतरांचो कोंकणींत अर्थ सांगपी ५०० वयर पानांचो असो 'इंग्लिश-कोंकणी' (नागरी) शब्दकोश उजवाडाक हाडलो. ह्या शब्दकोशांन थोड्या प्रमाणांत कांय जायना सर्वसामान्य मनश्यांची गरज भागयली. आनी तोखणायेची गजाल म्हळ्यार आजूनय हो शब्दकोश तितलोच लोकप्रीय आसा. हो इंग्लीश-कोंकणी नागरी लिपींतलो पयलोच कोश.

१९८५ वर्सा गोंय विद्यापीठाची थापणूक जातगीर 'कोंकणी विश्वकोश' तयार करपाचो वावर हातांत घेवपाक आयलो.त्या खातीर स्वतंत्र विभागाची निर्मणी करपांत आयली. त्या विभागाचे पयले मुखेली आसले डॉ. मनोहरराय सरदेसाय. तांच्या उप्रांत डॉ. तानाजी हळर्णकार हाणीं त्या विभागाची सुत्रां हातांत घेतलीं. कोंकणी विश्वकोश हो चार खंडांतलो ३६३२ पानांचो कोश आसा. हो सगळो प्रकल्प पुराय करपाक चवदा वर्सां लागलीं. ह्या कोशाचो पयलो खंड १९९१ वर्सा डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांच्या संपादना खाला उजवाडाक आयलो. उप्रांत १९९७, १९९९ आनी २००० वर्सा डॉ. तानाजी हळर्णकार हांचे संपादना खाला उरिल्ले तीन खंड उजवाडाक आयले.

१९८६ वर्सा 'गोवा कोंकणी आकादेमी'ची थापणूक जातगीर एका स्वतंत्र कोश विभागावरवीं शब्दकोश आनी उतरावळी रचपाचो

आनी उजवाडाक हाडपाचो वावर हातांत घेवपांत आयलो. कोंकणी अकादेमीन सर्गेस्त चंद्रकांतबाब केणी हांचे संपादना खाला 'इंग्लीश -कोंकणी-हिंदी' उतरावळ, 'कोंकणी शब्दसागर' खंड 'अ' आनी 'आ' (संपादकः पांडुरंगबाब भांगी), 'हिंदी -कोंकणी' शब्दकोश खंड 'अ' आनी 'आ' (संपादक डॉ. अनंत राम भट), 'इंग्लीश -कोंकणी' १४००० उतरांचो शब्दकोश (२००३) (संपादकः डॉ. मनोहरराय सरदेसाय), 'Inglez-Konkani (Romi lipi)' Vol.I हे कोश उजवाडाक हाडले. डॉ.वामन नायक हांणी 'इंग्लीश-कोंकणी समानार्थी-विरुद्धार्थी' हो शब्दकोश रचला आनी तो 'गोवा कोंकणी आकादेमीन' उजवाडाक हाडला. ह्या कोशांत दिसपट्ट्या वापरांतले आनी साहित्यांत वापरिल्ल्या सुमार ७००० इंग्लीश उतरांचो आसपाव केल्लो आसा. हालींच कोंकणी शब्दसागरचो तिसरो खंड अकादेमीन उजवाडाक हाडला.

शब्दकोशांचो हो आकांताचो व्हडलो वावर फुडें व्हरपाक 'राजहंस संकल्पना' प्रायव्हेट लिमिटेड, पणजी हांचो खूप मोलादीक वांटो आसा. आतांमेरेन ह्या प्रकाशनान आनी विंगड-विंगड आकाराचे साबार 'कोंकणी-इंग्लीश' शब्दकोश सुरेशबाब बोरकार, मुकेशबाब थळी आनी दामोदरबाब घाणेकार हांचे संपादना खाला उजवाडाक हाडल्यात.

'राजहंस संकल्पना' प्रायव्हेट लिमिटेड, पणजी हांणी एप्रिल २००९ वर्सा सुरेशबाब बोरकार आनी दामोदरबाब घाणेकार हांणी रचिल्लो दोन हजारांवयर पानांचो आनी पन्नास हजारांवयर उतरां आशिल्लो गडगंज असो 'कोंकणी सचित्र अश्टांगी अभ्यासकोश' उजवाडाक हाडलो. हो अभ्यासकोश म्हळ्यार आमच्या कोंकणी मायेच्या आंगावेलो एक सोबीत अळंकार म्हळ्यार अतिताय जांवची नां. २०२२ वर्सा ह्याच प्रकाशनान 'मराठी-कोंकणी' शब्दकोश उजवाडाक हाडला.

२०११ वर्सा 'कोंकणी भास आनी संस्कृताय प्रतिष्टान केंद्र' मंगळूर - कर्नाटक हांणी डॉ. तानाजी हळर्णकार हांचे संपादनाखाला 'विश्व कोंकणी परिचय' कोशाच्या तीन खंडाच्या प्रकल्पांतलो पयलो खंड उजवाडाक हाडलो आनी दुसरो खंड २०१३ वर्सा उजवाडाक हाडलो. ह्या परिचय कोशाचो तिसरो खंड उजवाडाक येवपाचो आसा.

जेन्ना कोविड काळार संवसारांतले सगळे वेव्हार ठप्प जाल्ले तेन्ना गोंय विद्यापिठांतले दोन प्राध्यापक डॉ. कार्लोस फर्नांडीस आनी मिलिंद म्हामल ग्रंथालय आनी म्हायतीशास्त्र इंग्लिश-कोंकणी शब्दकोश तयार करपाच्या कामांत गुंतिल्ले ह्या कामाचें फळ म्हळ्यार हो शब्दकोश जो शब्दकोश ४ एप्रिल २०२३ रोजी विध्यापीठांत उजवाडाक आयलो.

ह्या शब्दकोशांत चार हजारांवयर ग्रंथालय आनी म्हायतीशास्त्र विशयावेल्या उतरांचो आसपाव आसा. ताणी साबार इंग्लीश उतरांक पर्यायी नवीं कोंकणी उतरां घडयल्यांत. ताचो आंकडो हजारभर आसा. हाचो फायदो ह्या क्षेत्रांतल्या विद्यार्थ्यांक आनी अध्यापकांक जातलोच. त्या भायर कोंकणी भाशेच्या अभ्यासकांकूय जातलो. ह्या कोशाक नामनेचे कोशकार आनी साहित्यकार मुकेश थळी हांची प्रस्तावना लाबल्या.

कोश काम हें काम जशें म्हत्वाचें, किचकटींचें तशेंच जापसालदारकीचें काम. ते खातीर संशोधनाची आवड आशिल्लो आनी आसन मांडी घालून उमेदीन काम करपी जाय आसता. डॉ. कार्लोस फर्नांडीस आनी मिलिंद म्हामल हांणी आपलो शिक्षण क्षेत्रांतलो सगळो व्याप सांबाळून हें कोशाचें काम हातांत घेवन तें पुराय केल्ले बद्दल ते तोखणायेक पात्र आसात.

संपर्कः 9923306751

***

# जराशास्त्र - वृद्धोपनिषद

डॉ. सोबिता किर्तनी

-१२-

### भलायकी आनी जिविताचें समाधान



एखाद्रो मनीस आपलें जिवितांत समाधानी आसा म्हणजे ताचे जिवितांत सगळें बरें बरें घडलां वा ताचेर केन्नाच कसलीच कठीण परिस्थिती येवंक ना अशें मानप चूक. मनीस आपले जिवितांत समाधानी आसा काय ना हें ताचे जिविता कडेन पळोवपाचे दृश्टिकोणाचेर आदारून आसता. खोस वा समाधान कांय गजालींक लागून मेळटा अशें कांय जाण मानतात. देखीक दुडू, शिक्षण, लग्न, स्थिती, आदी ह्या गजालींचो खोशी वा समाधाना कडेन लागशिल्लो संबंद जरी आसलो, तरी ह्यो गजाली आमची खोशी थारायनात. खोस वा समाधान ही एक व्यक्तीगत कल्पना. आयजवेर सरिल्लें आपलें जिवीत समाधानाचें, काय खंतीचें हाचो हिशोब मनीस स्वता लायता. हाका आत्मगत कल्याण अशें म्हणटात. आत्मगत कल्याण हाका दोन भाग आसतात - भावनीक आनी वैचारीक.

चडशीं सकारात्मक भावनां अणभवप, आनी भोव कमी प्रमाणात नकारात्मक भावना अणभवप हो आत्मगत कल्याणाचो भावनीक भाग. आपल्या जिवितांतल्या घडणूकांचे वजा-बाकी (addition - subtraction) करप हें आत्मगत कल्याणाचो वैचारीक भाग. ह्या वैचारीक भागाक जिविताचें समाधान (life satisfaction) अशें म्हणटात.१९८५ वर्सा डाईनर, लारसेन आनी ग्रीफीन हाणीं जिवीतचें समाधान जोखपाक वा मेजपाक एक चांचणी निर्माण केली. ही चांचणी वापरून मनीस कितलो समाधानी आसा, हें कळटा. ही चांचणी वापरून १९९६ वर्सा डाईनर आनी तांचे वांगडी संशोधकांनी पळयलें की भारतीय लोकांचे जिविताचें समाधान मध्यम पांवड्या परस उणे आसता.



स्पर्धात्मक परिक्षेनीं गोंयकार फाटीं आसता. नशेंच कारकिर्दीचे मळार लेगीत गोंयकार सुशेगाद अशें जायते फावट आयकूंक येता. मात गोंया भायलो हें म्हणटा तेन्ना गोंयकारांची टिका जाता, भायल्लो लोक आमकां आळशी हे नदरेन पळयता अशें दिसून गोंयकार मनीस स्वताक आळशी नासून समाधानी अशें करतना पळोवंक मेळटा.

आपले उरिल्लें जिवीत जगता आसतना खर्यांनीच जाण्ट्यांक जिविताचें समाधान आसता काय? ह्या प्रस्नाची जाप सोदूंक २०१८ वर्सा गोंयच्या २०० जाण्ट्यांचो हांवे अभ्यास केलो. ६०-८० वर्सा पिराये मदल्या, जडार गेल्ल्या दुयेंसांतल्यान सध्या श्रम नाशिल्लीं आनी आपल्या घरांत वा आपल्या भुरग्यांच्या घरांत रावपी जाण्टीं ह्या अभ्यासांत वांटेकार आसलीं.

ह्या संशोधनांतल्यान अशें कळ्ळें की डाइनर आनी तांच्या वांगड्यानी लायिल्ल्या निश्कर्शा आड गोंयांत केल्ल्या ह्या सर्व्हेंत २०० जाण्ट्यांतल्या १४३ जाण्ट्यांचे जिविताचें समाधान मध्यम पांवड्या परस उंच आसलें.

गोंयच्या जाण्ट्यांचे जिविताचें समाधान खंयच्या घटकांचेर आदारून आसता हो ह्या संशोधनाचो दुसरो प्रस्न आयलो. शिक्षण, निवृत्ती आदलो वेवसाय, समाजीक वा धर्मीक संघटणांनी वाटो घेवप, भलायकी सांबाळपी कार्यावळी (पासय मारप, व्यायाम करप, प्राणायम करप, योगा करप वा पथ्य पाळप), छंद, तांत्रीक ज्ञान आसप वा वापर करपाक जमप, दुयेंस, अर्थीक सुरक्षा, एकठांय कुटूंब काय एकटीं रावतात, जोडप्यांतली दोगांय जिती आसात काय ना, कितलीं भुरगीं आसात, भुरग्यांचे लींग आनी नातरांची जबाबदारी- ह्या कांय घटकांचो अभ्यास केल्लो.

स्टॅप वायज मल्टीपल रिग्रेशन एनालिसीस ह्या संखाशास्त्राचो वापर करून कळ्ळें की खंयच्याच संघटणेचो वांगडी नासप, धाव्वी यत्ता परस उणें शिक्षण आसप, कसलेंच दुयेंस नासप आनी नातरांची जबाबदारी नासप हाचो जिविताच्या समाधानाचेर परिणाम जाता. खंयच्याच संघटणेचे वांगडी नासप, धाव्वी यत्ता परस उणें शिक्षण आसप आनी नातरांची

**जराशास्त्र म्हळ्यार जाण्टे पिरायेचें शास्त्र. इंग्लिशींत ताका Gerontology अशें म्हणटात. ह्या विशयाचेर संशोधनपुर्ण प्रबंध बरोवन लेखिकेन डॉक्टरेट संपादन केल्या. प्रस्तूत लेखमाळेंत जाण्टेपणाच्या वेग-वेगळ्या नामांचेर अभ्यासपूर्ण लेख आसपावल्यात.**

**डॉ. सोबिता किर्तनी ही पार्वतीबाय चौगुले कॉलेजींत मानसशास्त्राची सहायक प्राध्यापक आसात.**

जापसालदारकी नासप हांचो जिविताच्या समाधानांकडेन नकारात्मक संबंद आसता. मात कसलेंच दुयेंस नासप हाचो सकारात्मक संबंद आसता.

निवृत्ती उपरांत दीस भरांत जायतो वेळ बेकार सरता. पिराय वाडटा तशें स्वतंत्र भायर सरपाचेर बंधना येवंक लागतात. सोयऱ्यांकडेन तसोच इश्टां कडेन संपर्क उणो जाता. भुरग्यांच्या आनी नातरां वांगडा रावल्यार लेगीत चडसो वेळ जाण्टीं एकटीं-एकसुरींच उरतात. भुरगीं कामार गुंथून आसतात, त्या भायर e-gadgets म्हणजे यंत्रा- मॉबायल, नोटपेड, विडीयो गेम्स, कंप्यूटर सारकी यंत्रा कामा खातीर संपर्क साधपाक तशेंच मनरिजवणीखातीर वापरतात जाल्ल्यान एकांमेकां कडेन उलोवप भोव उणें जालां. तेन्ना खंयच्याय तरी संघटणेचो वांटेकार आसल्यार हेरांकडेन संबंद आशिल्ल्याची भावना निर्माण जाता. ह्या संघटणेच्या कार्यावळिनीं भाग घेतना हेर वांगड्या कडेन संपर्क येता. ह्यो संघटणा ओपचारीक वा अनओपचारीक आसूं येता. देखीक खंयच्याय क्लबाचे वांगडी आसप, वा खंयच्याय देवस्थानांत नेमान वचप वा एका ठरावीक जाग्यार पासय मारूंक वा व्यायाम करूंक एकठांय जावप ह्यो सगळ्यो एकठांय येवपाची संद दितात. अशा ह्या ओपचारीक वा अनओपचारीक संघटणांनी वाटेंकार जाल्ले लोकांचें जिविताचें समाधान उंचेल्ल्या पांवड्यार आसता. तशेंच खंयच्याच संघटणेंत वांटेकार नाशिल्ले लोकांचें जिविताचें समाधान भोव उणें आसता. १९९७ वर्सा सिन्हा आनी सींघ ह्या संशोधकांनी केल्ल्या अभ्यासांतय खंयचेय संघटणेन वांगडी आशिल्ले लोकांचें मानसीक स्वास्थ बरें आसता आसता अशें ताणीं पळयलें.

निवृत्ती उपरांत येणावळ बंद जाता पूण खर्च चालूच उरता. तातूंत उतार पिरायेर दुयेंसांक लागून दोतोर- वखद करपांत जायतो खर्च उप्रासता. पॅन्शन मेळटले लोकांक अर्थीक हुस्के उणे प्रमाणात आसतात. जोडपाचे पिरायेर दिसपट्टे खर्चा भायर जाण्टेपणा खातीर दुडू सांठोवन दवरप कमी येणावळ आशिल्ल्यांक भोव कठीण आसता. उच्च शिक्षण आसल्यार बऱ्या कामाच्यो संदी मेळटात. तशेंच काम तिगपाची शक्यता वाडटा. भावनीक आनी अर्थीक धादोसकाय दिवपी तशींच मानाचीं कामां उच्च शिक्षणा खातीर मेळटात. उच्च शिक्षण आसतकच निवृत्ती उपरांत परतून चाकरी करपाचीय शक्यता वाडटा. मात उणे शिक्षण आसतकीच ह्यो सगळ्यो संदी आनी शक्यता उण्यो जातात. हाचेच खातीर धाव्वी यत्ता परस उणे शिक्षण आशिल्ले लोकांचे जिविताचें समाधान उणे प्रमाणान आसता. वारशणेय हांणी २००७ वर्सा केल्ल्या संशोधनान पळयलें की शिक्षणाचें, जिविताचें समाधान, आत्मगत कल्याण, मनरीजवणीचें काम आनी निर्शेणी हांचे मदीं म्हत्वाचें नातें आसा. म्हणजेच उणे शिक्षण आशिल्ले जाण्ट्यांचे जिविताचें समाधान, आत्मगत कल्याण आनी मनरीजवणीची कामांनी गुंथवणूक उणे आसता आनी निर्शेणी चड आसता, तशेंच उच्च शिक्षण आशिल्ले जाण्ट्यांचे जिविताचें समाधान, आत्मगत कल्याण आनी मनरीजवणीची कामांनी गुंथवणूक चड आसता आनी निर्शेणी उणी आसता.

नातरांची जापसालदारकी नासप हें जिविताचें समाधान उणें आसपाक कारणीभूत आसता. हाच्या फाटलीं कारणां जाण्ट्यां कडेन घेतिल्ल्या मुलाखतींतल्यान दिसून येतात. एक कारण म्हळ्यार जायतीं जाण्टीं एकटींच रावतालीं आनी तांची भुरगीं आनी नातरां वेगळीं रावतालीं जाल्ल्यान नातरांकडेन संपर्क उणो जाल्लो. दुसरें कारण म्हळ्यार मातशीं व्हडलीं जाल्ल्या नातरांक आतां पयलीवरीं आजी-आज्यान देखरेख करपाची गरज नासली. हाचे खातीर जाण्ट्यांक तीं पयसाविल्ले वरी दिसतालीं. तशींच नातरां शिक्षण, खेळ आनी यंत्रांनी गुंथिल्ली आशिल्ल्यान तीं आजी-आज्या बरोबर खूब कमी वेळ सारतालीं. कांय जाण्ट्यांक तांच्या नातरांचेर जाल्ले संस्कार मानवनाशिल्ल्यान तीं नातरांकडल्यान पयसाविल्लीं आनी कांय जाण्ट्यांक नातरांच नाशिल्लीं. आपलो वंश सोंपलो हो विचार तांकां खंती करतालो. जाण्टेपणान आपणें नातरांक सांबाळप हो विचार आशिल्लीं जाण्टीं, नातरांची जापसालदारकी नाशिल्ल्यान असमाधानीं आसलीं. २००७ वर्सा देवी ह्या संशोधकान केल्ल्या अभ्यासांत तांणीय पळयलें की मनरीजवणीचीं कामां, पासार करूंक वेळ आनी नातरां कडेन गुंथवणूक ह्यो तीन गजाली जाण्टेपणाची सगळ्यांत चड आनंदाची गजाली अशें जाण्टी लेखतालीं.

निमणे पांवड्यार कसलेंच दुयेंस नासप ह्या घटकाचें जिविताच्या समाधानाचेर भोव मोटो परिणाम घडटा अशें हांवे पळयलें. दुयेंस असमर्थताय हाडपी आसूं वा नासूं, दुयेंस जाल्ले लोक अस्वस्थ आनी असमाधानी जातात. कसलें तरेचें दुयेंस कसले तरेची असमर्थताय हाडटा हाचो आमच्या जिविताच्या मोलावणीचेर परिणाम जाता. दुयेंस नाशिल्ले लोक आपणाक जाय-जाय ते कार्यावळींत भाग घेवंक शकतात. देखून दुयेंस नाशिल्ले लोक चड समाधानी आसतात. तशेंच दुयेंस नाशिल्ले लोक हेर जाण्ट्यां कडेन आपली तुळा करून हेरां वरी आपल्याक कांयच दुयेंस ना हाचेंय समाधान मानतात जावयें.

ह्या संशोधनांत तिसरो प्रस्न हाताळ्ळो तो म्हळ्यार वेग-वेगळे प्रमाणान जिविताचें समाधान आशिल्ले लोकांची भलायकी वेगळी आसता काय? ह्या प्रस्नाची जाप सोदूंक सगळ्या जाण्ट्यांचे जिविताचें समाधानाच्या प्रमाणाक आदारून चार गट केले- कमी समाधानी, समाधानी, चड समाधानी आनी खूब चड समाधानी.

अशे तरेच्या अभ्यासाक लागपी संख्याशास्त्राचे नेम वापरून नियाळ केलो. वन वे अनोवा आनी क्रुस्कल वॉलीस एच अशो दोन tests वापरल्यो. हाचे वयल्या जिविताचें समाधानाचेर आदारून केल्ले चार गटांत भलायकेच्या वेगवेगळ्या तासांत फरक आसा काय ना हें कळटा. भलायकी मापूंक रॅन्ड ३६ आयटम हॅल्थ सर्व्हे नावाची चांचणाचो वापर केल्लो. ही चांचणी भलायकेची णव तासां जोखता- शरिरीक वावर, शरिरीक भलायकेचे खातीर घडटली बंधना, शक्त आनी कास्तीक वा काडामोड, मानसीक भलायकी, समाजांत वावूरपाची तांक, यातना, आपली भलायकी पळोवपाची नदर, आपणाक जाणवल्लो भलायकेंत बदल.

आपणाक जाणवल्लो भलायकेंत बदल ह्या एकाच तासांत वेग-वेगळे प्रमाणान जिविताचें समाधान आशिल्ले लोकांत कांय खास फरक नासलो. हेर आठ तासांत वेग-वेगळे प्रमाणान जिविताचें समाधान आशिल्ले लोकांत खूब चड फरक आसलो. हाचो अर्थ असो की त्या त्या तासांत खालाविल्ली भलायकी आशिल्ले लोक आनी बरी भलायकी

*(पान २५ च्रेर)*

## गोत्र – मनीसपण. क्षेत्र – कुसमण

# पुतु

**दादा हेगडे**

आमच्या केप्यां हें ना आमच्या केप्यां तें ना आनी तुमी आसलेलें तेंवूय व्हरतात म्हळ्यार किते? पेट्रोलपंपा भोंवतणच्या उकत्या सुवातेर, केपें जार्दीनाच्या लागसार, गांवचे समाज सेवक, सुटके झुजारी आनी हेर नागरिकांनी घडोवन हाडिल्ल्या भौशिक निशेध बसकेत भौ. पुतु नेटान भाशण करतलो. पुतुल्या त्या उलोवपांतलें हें ना आनी तें ना तें कितें कांय तें थंयसर जमिल्ल्या मर्दी जायत्या लोकांक कळूंक नाशिल्लें. मात तेवूंय व्हरतात... म्हळ्यार कितें तर ती केपें मुन्सिपालटी अशें बसकेंत तशेच माचयेर बशिल्ल्यांक आनी बसकेक हाजीर आशिल्ल्यांक खबर आशिल्लें. कारण १९७३ वर्सा गोंयच्या त्या वेळच्या सरकारान केपें काम्र (मुन्सिपालटी) बरखास्त करून तिचे केपें पंचायतीत रुपांतर केल्लें. ह्या घडणुकेचो निशेध उक्तावपाक ही भौशीक बसका आयोजित केल्ली. बसकेंत पुतु पोटतिडकेन आपले मत व्यक्त करतालो. ह्या आदीं तो केन्नाच असो माचयेर बसुंक लेगीत नाशिल्लो. ताच्या उलोवपाच्या आदीं सभेचो सूत्रसंचालक सर्गेस्त दासराज तेलंग हांणी ताची केपें गांवचो श्री. पुतु हो आमजनतेचो प्रतिनिधी अशी वळख करून दिल्ली. हें आंदोलन येसस्वी जालें. सरकाराक १९८५ वर्सा केपें पंचायतीचे परतून काम्र केपें मुन्सिपाल कौन्सील हातूंत रुपांतर करचें पडलें. नव्यान वेंचणुको जाल्यो. पुर्नरुपांतरा उपरांत खुपश्या उमेदवारांनी केपेंच्या उदरगती पासत वेंचणूक लडयली. मात ह्या वेचणुकेंत वेंचून आयिल्ल्या मर्दी कोणेच आदल्या सरकारच्या रुपांतर कृत्याचो साद्या उतरांनी लेगीत आक्षेप घेवं नाशिल्लो. पुर्नस्थापनेचो फायदो मात ताणी घेतलो. केपेंच्या उदरगतिची गत आयज सगळ्यांच्या दोळ्यांसामकार आसा. केपें कौन्सीलीचो कोणे आनी कितलो फायदो घेतलो आनी निमणी खरी उदरगत कोणाची जाली हें फकत केपेंकारूच जाणा!!

पेट्रोल पंपा भोंवताणच्या त्या उकत्या मळार त्या तेंपार दोन ते तीन अशीं अशोका जातीचीं व्हड झाडां आशिल्लीं. तांतल्या एका झाडा भोंवतणी फात्रांनीं बांदिल्ले, मातयेन सारयल्लें पेड आशिल्लें. चामड्यांचे नवे बूट, नवी जोती तयार करपा वांगडाच लोकांची तुटिल्ली जोतीं, सापाती, शिंवून दिवप असो आपलो पिढीजात व्यवसाय पुतु थंय बसून करतालो. चामड्याचे ब्रांडेड बूट, चपला त्या वेळार हांगा पावंक नाशिल्लीं. त्याच पेडाच्या दुसऱ्या अर्दान गांवातले बेकार तवनास कोयबा नांवाचो गड्यानी जुगारी खेळ खेळटाले. खेळांतले पाषाणी गड्डे आपटून पेडाक त्या अर्दानच्यान खिंण पडील्ले. पुतूक तांचो मात लेगीत त्रास जाय नाशिल्लो. आयज तांतले तें एक झाड आनी पेड थंयच आसा. फकत मातयेच्या जाग्यार तें शिमीटान बांदुन घेतला. मारमेरांच्या कुडक्यांची बसका आनी कोराद तिजुल्यांनी आतां तें चकचकीत सजलां. आज थंय पुतु ना आनी कोयबा कोण खेळीनात. बाजारांतले काय बेकार लोक पेडार बसून चकाटां मारतना दिसतात.

सर्गेस्त भौ. पुतु मडकईकर केपें कुसमण वाड्यार आपली घरकान्न, तीन चले आनी तीन चलयां वांगडा संसार करतालो. तांबडे मातयेन मारयलेले दोन कुडींचे, न्हंयची पडली आशिल्ले अशें ल्हान पूण सुटसुटीत ताचे घर. ह्या घरांतल्या रांन्नीतल्या गरम गरम मुरमांत सुकयलेली पणसा भिकणां भाजून ती खायत, सुलच्या नळ्याच्या खांचींतल्यान ठंटागार पावसाच्यो गळपी पांवळ्यो पळयत हावें भुरगेंपणात हांगा कितलेशेंच खिण मारल्यात. पुतुलो निमणो पूत म्हजो आमिग. आमी एकाच वर्गांत शिकताले. पुतुचो भेस कितें तर आंगार सदळ मोटवें कालसांव, गळ्या वयरसून घालपाचो, दोन अर्दांनी कात्र्याचो बुशकोट. पयशे दवरचे पासत बुशकोटाक वयर दावे वाटेन एक बोल्स. तशींच दोनी कुशींनी विडी आनी लेंस दवरचे पासतची बोल्सां. गांवचे जांव ल्हान वा जाण्टे ताका पुतु अश्या एकेरी नांवान उलो मारताले. ताच्या नांवां सामकार बाब लावन पुतुबाब वा नांवा फाटल्यान दाद जोडणी लावन पुतुदाद असो ताका कोणेय उलो केल्लो म्हाका तरी याद जायना. ताची भुरगीं ताका बाप्पा आनी आवयक बाय म्हणी. आमच्या आमीगाचो तो बापुय जाल्या कारणान आमी सगळे ताच्याकडेन रेस्पेंतान वागताले. जायत्या फावट गांवचे राजकारणी आपल्या स्वतःच्या फायद्या पासत पुतुचो उपेग करून घेताले. स्वता तो कसल्याच राजकारणात पड नासलो. आपुण बरो आनी आपलो व्यवसाय बरो अशी सरळ जिण जगपी जीव. दिसभराच्या कामा उपरांत राती घरा येतना नीज गोंयकारा बशेन, अग्निप्रदीपन म्हण इल्लें कुट्ट करून घरा परतुपी. वाटेर येतना कोणेय पुतु चल्लो रे घरा.. अशी जाप केली तर हँ... हँ... हँ... अशें हासून फुडे सरपी मनीस.

केपें कुसमण वाड्यार घर घरांनी वर्सुकी चवथीक पुजिल्ले गणपती, पंचमी राती फातोंडेर सगळे एका वांगडा पांट्यार पावयतात. सगळे आपले गणपती घेवन बाबुशबाब शिरवैकारांच्या घरा सामकार आशिल्ल्या उकत्या जाग्यार एकठायतात. थंय पांटयार वचपाची पायण आसा. उटंगार पडून गेल्या पावसा पासत कुशावती न्हंय हुंवारिल्ली आसता. न्हंयच्या देगेर पावल्या उपरांत गणपती विसर्जित जावंच्या आदी जाणटेल्यांचो पयलो उलो पुतुक हो थारिल्लोच. सगळ्यांच्या गणपती वांगडा पुतु आपलो गणपती पावयतालो. आपलो गणपती पावयल्या उपरांत हेरांचे गणपती पुतू न्हंयच्या मदिसारा व्हरून पावोवन येतालो. विसर्जना आदीं प्रत्येकान वांगडा हाडिल्लो नाल्ल मूर्तीच्या तकले वयर फोडून नाल्लाचे उदक रकवप. फोडिल्ल्या त्या नाल्लाचें एक वळे प्रसाद म्हण घरा व्हरप आनी दुसरे वळे पुतुच्या मानाचे तें ताणे व्हरप. अशी ही प्रथा चलताली. ताचो निमणो पूत आमचो आमीग त्या राती थंय लागींच पिशवी घेवन उबो आसतालो. ना म्हळ्यार १५ ते २० नाल्लाची वळी ताच्या त्या पिशवेत एकठांय जाताली.

बऱ्याच वर्सा फाटीं पुतु ह्या संसाराक अंतरलो. उपरांत काळानुसार कांय घडणुको घडल्यो. एका अचकीत घडिल्ल्या घडणुकेत पुतुच्या घरच्यांक बरेच पयशे मेळळे. ताणी रोकडेच मातयेचे घर मोडून त्या सुवातेर शिमीटाचें तेर्रासां घर उबें केलें. दोन कुडीच्या घरांतल्यो कुडी वाडल्यो. तश्योच वंटीय वाडत गेल्यो!! पुतु गेल्या उपरांत गणपती पावोवपाचें काम ताचो मदलो पुत करतालो. रोखडेंच ताचें लग्न जालें. आनी उपरांत गणपती पावोवपाच्या रातीं माथ्यावेले वळे व्हरपाक आमच्या आमिगा जाग्यार मदल्या पुताची बायल वळीं एकठांयतना

*(पान २५ चेर)*

# कविता

## चॅट जीपीटी

काशिनाथ शांबा लोलयेंकार

"The last man on earth sat alone in a room.
There was a knock on the door."
- knock (1948) The shortest horror story by
Frediric Brown.

हांव मनांतल्या मनांत उलयतां
चॅट जीपीटीकडे

दीस वयतात
वयतात वरसां
सरकता काळ
मदीच एखाद्याच्या गळ्यांत
पडटा फुलांची माळ

६७ हो मटक्याचो नंबर जावं येता वा
म्हज्या वयाचो आकडो
आनींक शंबर वरसांनी
खंय आसतलो हांव ?

काळचक्र घुंवत आसा
तिनूय त्रिकाळ
भकीत आसा काळ
घालून गळ्यांत
कवट्यांत्ती माळ

काळाक मर्ण ना
हांवूंय जातलो अमर
जावन काळ
त्या AI क शक्य ना
म्हजें चित्र काडपाक

मनीसजात ना नपैत जाल्ल्या ह्या म्हज्या जगांत
एकलो-एकमुळो पडलेलो AI
आता सोदीत भोंवता आपली वळख

संपर्क : 9049814854

***

## काळोच म्हजो देव

आर. रामनाथ

काळोच म्हजो देव
आनी काळोच हांव
उजवाडाचो गांव
सोदतां माये ...

नशिबाची भास
अंधूक अंधूक
मरणाची भीक
मागतां माये...

संपर्क: 9850458763

***

## मोग

गोविंद मोपकार

तुजो मोग
उतरा-उतरांत
म्हजो मात
मौन शब्दांत

तुजो मोग
पिर्शी करंदाय
म्हजो मोग
संथ शांतताय

तूं लहर
अमर्याद प्रितीची
हांव बहर
रम्य गजलीची

तूं भास
रतन काजुल्यांची
हांव राशीर रास
काळख्या रातींची

संपर्क : 85580909847

***

## तुजी झिमिझिमी याद

परेश नरेंद्र कामत.

तुजी झिमिझिमी याद :
ते यादींत
तुज्या आवाजाची भरून रावल्या
गाज
येता
खोल मेरेन आयकूंक

झिमिझिमी यादींच्या पेल्यान
तूं आसा उबें
दडकेचें उदक येवन,
तुज्यो यादी येतात त्या उदका वरी
आत्रेपर्यग्रान
ल्हव ल्हव झांजर-झुंजर...

देंवत रावता काळजांत आकळून-
पिकळून
उदकाची पावली मारीत
तुजी याद
आनी
ल्हव ल्हव रितेपणान भरून
जायत रावता जड जड
आवाजाची गाज
चक्राकार...

संपर्क: 9422640210

***

## समुद्रा पाळ आनी मनशाले मन

धन्या जी. मल्या

पाळ समुद्रांतु
दिकुयेता शांत जावनु,
जल्यार देगेर पावल्यार
जाता तें बलिष्ठ.

अशी न्हय वें मनशालें मन,
सुर्वेक सहन करता तो सर्वय समस्या शांत जावनु,
मर्यादा पार केल्लेले उपरांत
जाता तो बलिष्ठ.

संपर्क: 7907356048

***

# येवकार

रुपा केणी



सदचेवरी जेमिनी सकाळीं फुडें जागें जालें. तशी आयज ताका बेगीन उठपाची गरज नासली. पूण इतल्या वर्सांची सवंय. तें बेठेंच थोडे वेळ लोळत रावलें दोळे धांपून. सुब्राय कालूच कामाक लागून चार दिसां खातीर मुंबय गेला. इतलीं वर्सां केन्नाच तो जेमिनी बगर खंयच वचूना. कामाक लागून तर नाच्च ना. तशेंच कितें तरी खुब गरजेचें आसतलें हें काम. देखुनूच गेला तो एकटोच. इतल्या सकाळीं उठून आतां करप कितें? एकट्याच्या जीवाचें कितलेंशें काम! सगळीं कामां ताची न्हयच. ती आसतात सुब्रायाचींच कामां. ताचो नाश्तो, ताजें जेवण - खाण सगळें ताच्याच खातीर कितली खोस मेळटा. ताजे आख्खें जिवितूच व्यापून उडयलां ह्या सुब्रायान. पळय आयज कामूच ना जेमिनीक. काय, सुब्राय ना म्हण ताका इत्सा ना काम करपाची?

आगे बाये! आयज सुब्राय ना. पूण पूजा तर करपाक जाय देवाची. ताणे बेगीबेगीन न्हावन घेतलें. देवाक फुलां काडपाक कुरपणो घेवन पोरसांत गेलें. हें हरशी ताचें काम न्हय. म्हणजे पुजा करपाचें. फुलां मात तेंच काडटा. दुसऱ्या कोण्णे काडिल्ली सुब्रायाक आवडना. ताची पुजा म्हणजे एक आक्तूच आसता. त्या त्या देवाक तीं तीं फुलां घालता शास्त्रा प्रमाणे. पुजेक ताका सादारण वर-देडवर लागता. तांच्या लग्नाक इतलीं वर्सां जालीं. पूतांची लग्नां जाली. जेमिनी आनी सुब्राय आजो-आजी जाल्यांत. पुतां सुनांक सुब्रायान पॉश अशा फ्लेटांनी वेगळीं दवरल्यांत. तशें वायटपण अशें न्हय. पयस रावतकच सबंद बरे उरतात अशें सुब्रायाचे म्हणणे. जेमिनीक तें व्हडलेंशें आवडूना. तशी तीं दर वीकएण्डांक जेमिनीमरी येतात. तेन्ना घर भरिल्लेवरी दिसता ताका. सगळ्यांच्या सुखांत ताणे आपले सुख मानलां. फाटल्या पोरसांत तरेकवार फुलांचो परमळ पातळिल्लो. जेमिनीक परमळपी फुलां ग्रीश्माक वतात. मंद, शितळ वाऱ्या वांगडा परमळ सगळ्याक वतालो. ताच्यो चित्तवृत्ती फुलारुन आयिल्ल्यावरी जाल्यो. बाविल्लें मन मातशें फुलून आयलें. ताका मनशां जाय. मनशांबगर ताच्यान रावूंक जायना. बसम्मा आनी अपी येतासर कळाव आसलो म्हणून येदोळ तें मातशे विरुस जाल्लें. रस्त्यार आजून येरादारी सुरु जावंक नासली. ताणे सवकसायेन फुलां काडलीं. देवाकुडींत वचून पुजा केली सामकी वरभर न्हय सुब्रायाभशेन. पुण वेवस्थीत केली. ताचेभशेन कशी जातली? जेमिनीक सगळें देवाचे खंय म्हणपाक येता? इतलीं वर्सां ताणे फकत हात जोडल्यात आनी सगल्यांक बरें मागलां. कोणाक खरें दिसत इतल्या वर्सांत तें पयले फावट पुजा करता म्हण देवा कुडींत. सुब्रायाक कोताकुच येना दुसऱ्यान कोणेच पुजा केल्ली. ह्या पावटी कितें तरी नाईलाज जाला आसतलो. म्हण गेला तो इतल्या ताकतिकेन. नाजाल्यार तो जेमिनीक वांगडा व्हरताच व्हरता.

इतल्यांत बसम्मा आयली. आयदनांच्या आवाजान घराक खरी जाग आयली. जेमिनीक दिसलें आतां खरें घर जागें जालें. येदळच्यान न्हिदेंनूच आसलें. इतल्यांत अपी आयलो. ताणे सदच्यावरी गॅरेजीक, पोरसांत सारण मारुन गाडी धुली. झाडां शिंपली. फाटले वटेन पावतकच तो कपडे सुकत घालपी बसम्माकडेन खबरी मारपाक लागलो. त्या आवाजान जेमिनीक मनशांत आयिल्लेवरी दिसले. ताणे बेगीबेगीन खावपाक करून तांका दोगांयकूंय दिलें आनी आपणेय खालें. त्या दिसाच्या कामाबद्दल दोगांयकूंय सुचोवण्यो करून तें आपल्या कुडींत आयलें. माथ्याचो तुवालो सोडलो. ताचे लांब दाट केंस घस्स करून कमरे सकयल देंवले. घसघसो कशे. हारशा मुखार स्टुलार बसून ताणे फणयेक हात घालो. इतल्यात, पोवाच्या लाताकडल्या घडी घालून दवरिल्ल्या कागदाच्या कुडक्या कडेन ताजी नदर गेली. ताणे तो उखल्लो. घडयेर ताजेच नांव आसलें. आवयस्स! म्हाका ही चीट बरयल्या? अशें किदें घडलें म्हाका ही चीट बरोवपाक? अजापूच बाये! सुब्राय म्हणून एक. हालींसराक म्हणून सल्लाबल्ला आयिल्लेवरी करपाक लागला. ताणे ती चीट उगडली आनी



वाचपाक लागलें.

ती वाचतकच भूकंप आयिल्लेवर ताज्या पायामूळची जमीन हाल्ली. सग कुडूच घुंवता कशी ताका दिसपाक लाग ताणे हातांतलीं चीट घट्ट चिड्डून उडयल जणूकाय ती चिड्डील्ल्यान तें संकश्ट नाच जातले. लज, संताप, दुःख ह्या सगळ्या उमाळ्यांचो कल्लोळ ताच्या काळजांत उठल सोंसू नज जावन ताणे हात हड्ड्यार दाम धरले. लकत पडत ते खाटीकडेन आय त्याय परिस्थितीत ताणे कुडीचें दार घट्ट धांप घेतलें. जणूकाय घरची मानमर्यादा, अब्र धांपून दवरपाक सोदतालें. धप्प करून खाटीर पडलें. शक्तीपात जाल्ल्यावरी. साम भितल्ल्यान ताका भळभळीत रडपाक येवपा लागलें. हुंडको फुटत, आवाज भायर ये म्हणून ताणे तोंडार पालवाचो गुड्डो मारल त्याय स्थितीत ताका बसम्मा, अपी आयक म्हण भंय दिसतालो. खर्र, खर्र तें कांत तो आवाज येतालो. अपी तर कुडी भा पोरसातूच आसलो.

रडटा रडटा ताचें काळीज जणू म्हण्टा इतलीं वर्सां संवसार करुन हांवे सुब्राया वळखलोच ना खरेपणी. काय तो म्हाक वळखून शकलोना सारकें? खंय उ पडलीं आमी एकमेकांक वळखुपाक? सा दिवपाक? अशें कित्याक केलें तुवें? दे रे! आतां कितें सांगू हांव पुतांक? आमच सुनांच्या घरच्यांक? ह्या दादल्याक आतां हें येवजलें? कशें तोंड दिवं हांव सगल्याक ते न्हिनटलें कितल्या उमेदीन उबारिल्लो संवसार. भुरग्यांची, नातरांची इल्लीय ओ दिसली ना? असो कसो अळंग मेकळ

जालो हो तांच्या मायेंतल्यान नातरांवेलोय मोग आटलो हाचो? सुब्राय! सुब्राय! अशें कित्याक केलों तुवें? कित्याक?

रडून रडून ताजो ओग इल्लो इल्लो गेलो. आतां ताका सुब्रायाचो आकांताचो राग आयलो.

हो थंय मजा मारतलो आनी हांवे हांगा तोंड दिवप सगळ्यांक. पूत, सून, सोयरीं धायरीं, शेजारी हांका कशें कशें तोंड दिवप हांवे? म्हातारपणांत ढवळे रंग हे आनी कांय न्हय. म्हाका इल्लीय सुलूस कशी लागली ना. हरशीं बारीक सारीक गजाली सांगपी हो येदी व्हडली गजाल लिपयली? कित्याक लागून हो असो वागलो काय? सगळी अक्कल शाणेपण अशें घाणाक दवरलें हांणे. सोबता हें अशें वागप? आतां खंयच्या तोंडान येतलो काय हो चार दिसांनी? कसो येवकार दिवप हाका? आरत ओंवाळून, काय हार घालून? हांवेय कित्याक म्हण ओगी रावप? म्हाका कसली लज? हांवे किर्ते केलां तर? हो येतकच ताकाच जाप विचारपी हांव ह्या कर्तुबाची हय, हांवे विचारुंकुच जाय अशें कितलेशाच विचारांनी ताचें तकलेत घोसाळ घालो.

कितलो वेळ गेलो ताकाच कळ्ळें ना. ढब्ब, ढब्ब करून बसम्माच्या दार धाडावपाच्या आवाजान तें भानार आयलें. तिका भितरल्यानूच जाप दिवन ताणे तोंडार थंड उदक मारलें आनी केसांचो आंबाडो घालून तें भायर आयलें.

काम सोंपोवन घरा वता म्हण सांगपाक बसम्मा आयिल्ली. आवयस्स! इतलो वेळ हांव विचारांत आशिल्लें तर. आतां ताका किदेंच रांदपाची वान्सा नाशिल्ली. ताची भुकूय मरून गेल्ली. सकाळमेरेन आपलें दिसपी घर लेगीत ताका घडकेंत अनवळखी कशें दिसपाक लागिल्लें.

आतां जो किदे खदखद ताच्या अंतस्कर्णात चल्ला ताजे मूळ आसलें मोहिनी. हय मोहिनीच. नावां परमाणेच ताणे सुब्रायाचेर केन्ना मोहिनी घाली जेमिनीक कळ्ळें पसून ना. केन्नाच्यान हें सगळे चलतालें काय? काल पैरची गजाल न्हय ही. दोगांय पुतांक कसो हाजो पत्तो लेगीत लागलो ना. अशें कशे जांव येता? तांका कळिल्लें जाल्यार तें ओगी रावचें नासलें. जेमिनीचे तकलेंत आतां विचारांचे चोंबे कशे उठले आनी धांय दिकांनी उसळ्ळे. सोसूं नज जावन तें उठलें आनी भायर आयलें. सामकारच्या गार्डनांत पयस वचून लिलीपॉण्डाच्या लागसारल्या बांकार वचून बसलें.

सुब्राय आनी जेमिनीचे लग्न जाल्लें तेन्ना तीं दोगांय शिर्वीस करताली. वर्स दोन वर्सांनी सुब्रायान शिर्वीस सोडली आनी आपली कंपनी काडली. ती सारकी चलून घटमूट जायसर जेमिनीन शिर्वीस करची अशें तांचे थारिल्लें. जेन्ना कंपनीचो बरो जम बसलो तेन्ना जेमिनीन आपली शिर्वीस सोडली. घर संवसार आनी दोनूय पुतांक वयर काडपाक तांचे शिकप बरपाचेर आपलें चीत्त एवटायलें. कंपनीची उदरगत जायत गेली आनी जेमिनी आपल्या घरसंवसारा भीतर कशें मुंगरत गेले हें ताचें ताकाच कळ्ळेंना. इतल्या मजगती भुरगीं शिकून तयार जालीं. सुब्रायान तांका बरे पोस्ट दिवन आपल्याच कंपनीत घेतलीं, आपली मनशां म्हण. तांची लग्ना जातकच ताकां स्वतंत्र पॉश फ्लॅट घेवन दिले. आतां ते तांच्याच बापायचे पगारी चाकर जाल्ले. दरेका वीकएण्डाक पुत सूनो जेमिनीसरी येताले. खास तांका मेळपाक. दोन राती रावन सोमारा परतीं वताले.

एकदा कंपनीन एक व्हेकन्सी जाल्ली. म्हत्वाच्या पदाची. इंटरव्यूक जायते लोक आयिल्ले. तांतूत सिलेक्ट जाले मोहिनी. बरेंच अणभवी, स्मार्ट, भरपूर शिकिल्लें, आकर्शक. ताणे वयाची चाळीशी हुंपिल्ली पुण आजून आंकवारुच आसलें. नांवाप्रमाणे ताजी सगळ्यांक मोहिनी पडटाली जो कोण ताज्या संपर्कात येतालो. जांव दादलो जांव बायल. खरेंच ताचें दिसप, वागप, उलोवप ओडलायणे आसलें. तें कामातूय तितलेंच फिशाल आसलें. खंयच बोट दवरपासारके कांयच नासलें. खरें म्हणजे ताजी सगळ्यांत चड तूस्त तोखणाय ताजे पुतूच करताले. मोहिनी तांचेच डिपार्टमेंटांत काम करतालें. जेमिनीच्या वाडदिसाक तें खास ताका मेळपाक घरा आयिल्लें. ताकाय तें खुब आवडिल्लें. ताज्याय उपरांत किद्या ना किदें निमतान दोन तिनदां तें घरा येवन गेलें. ही भानगड केन्नाच्यान चलताली काय? कोणाकूच कशी सुलूस लागलीना? जेमिनीक हार्जेच अजाप दिसतालें. काय हांचे पयलींच जमिल्लें आनी ताका कंपनीत घेवप हें एक नाटक. सेर्त अशेंच आसपाक जाय. खरें म्हणशीत तर जेमिनीय हुशार आसलें. ताणे आपलें करीयर संवसाराच्या होमखणात लासून उडयिल्लें. ना जाल्यार तेवूंय खूब उदरगत करतलें आसलें.

परत ताज्या दोळ्यांक धार लागली पालवाच्या पोंतान ताणे दुकां पुसलीं आनी सामकार पळयलें. भांगराळें वत ताज्या आंगार पडिल्लें. इतल्यांत एक ल्हवशें वाऱ्याचे ल्हार ताज्या आंगावेल्यान गेले, वांगडाच मंद मंद सो फुलांचो परमळ ताज्या आंगार फांफडून. पुण जेमिनीक ताचे धंग नासलें.

ताणे आपली तकली फाटल्यान बांकार तेकयली.दोळे धांपून घेतले. बरोच वेळ तें तशेंच शांत बसून रावलें. ताज्या तकलेंतलो विचारांचो घोगो आनी गोंदोळ बरोच वेळ तसेच उल्लो. जसो जसो वगत वता तसो तसो ताच्या तकलेंत इल्लो इल्लो उजवाड पडपाक लागलो. गोंदोळूय इल्लो इल्लो निवळपाक लागलो.

सुब्रायान विश्वासघाताचे सुरयेन ताच्या काळजाचेर घाल्ले घाय आता केन्नाच पेखपाचे नात इतले ते खोल खोल आसात. ती दुख आतां सासणाची उरतली. सुब्रायावांगडाची ताची फुडाराची जीण म्हणजे मोगाची ओलसाण नाशिल्लें रखरखीत रेंवट. आज पर्यंत ताज्या जीणेंची सुत्रां ताणे हुस्कामेकळें जावन मोट्या विश्वासान सुब्रायाच्या हातांत दिल्लीं आनी खामसूत्री बावलेवरी तें ताज्या तालार नाचतालें. सगळे निर्णय तोच घेतालो. ताज्याखातीर. हाज्या फुडें म्हज्या जीणेची सुत्रां हांवूच म्हज्या हातांत घेतलें. म्हजे निर्णय हांवूच घेतले. ह्या रेंवटात हांव रावंचेना. ताणे विचारचें पयलींच, हांवूंच ताका सांगतलें ह्या बंदनांत म्हाका रावपाचें ना. हांवूच तें बंदन तोडटां. जेन्ना एकामेकांविशीं मोग, आदर, विश्वास, ओड सोंपिल्ली आसता तेन्ना फकत समाजाक दाखोवपाक बंदनान रावप म्हणजे आपणेच आपल्याक फटोवप. एके तरेचे ढोंग करप. असले कांयच हांव करचेंना.

जेमिनीन ल्हवूच दोळे उगडले. ताज्या मनांवेलो ताण आतां गेल्लो. भितरल्यान ताका एके तरेची शांतताय भोगताली. ते बाकां वयल्यान उठलें. वयर एकफावट मळबाकडेन पळयलें, आनी तें सज्ज जालें जिविताच्या एका नव्या पर्वाक येवकार दिवपाक.

संपर्क: 9822183954

***

# गरमेंतल्यो खबऱ्यो

महेश पारकार

विनोदी



**मा**र्चं म्हयन्याचे सुरवेक सगीत तीन दिस घरांत नळाक उदक नासलें. दिसाचेंय ना. रातीचेंय ना. तरी बरें शेजाऱ्यान घराक वयर चार टांकयो बसयल्यात. तो त्यो भरुन दवरता. देखून अशे वेळार बऱ्याक पडटात. शेजाऱ्यान तीन बादल्यो उदक दिलें म्हूण माणसुकी! ताणे एक दिस दिलें. सद्दां उठून दिवपाक ताका गरज ना. तो किते कर्णाचो अवतार?

अशे वेळार उदक ही वस्त जगांत सगल्यापरस अदीक मोलाची वस्त जाता. पयलो दीस असो-तसो गेलो. दुसरो दिस उजवाडटनाच निसर्ग नेमाक लागून सुरु जावपी कटकटी सुरु जाल्यो. खंयच्यान तरी घरकान्नीन फैदासून उदक हाडलें.

''तोंड धुवपाक उदक चड घेवं नाकात. दाडी बी वाडिल्ली आसल्यार तशीच आसूं. उदक येतकीर पळोवया.''

''जेवन-खावन आंच्यूवपाक चड उदक वापरुं नाकात. आयज मेळ्ळां म्हूण फाल्यांय तें मेळत हाचें खरेपण ना.''

अशे उपदेश आनीक ऑर्डरी घरांत सुरु जाल्यो. अशा ह्या एकार एक शिटकावण्याक लागून घरांतल्या जाण्टे-नेण्ट्याचें बी.पी., शूगर आसा थंयच हालपाक लागतात.

उदका खात्यान आमकां जण एकल्याक आयज नळाचे सुवादीन करुन दवरल्यात. बांयो आमी पुरोवन उडयल्यो. वापरी नासतना दवरल्यो. आनीक तेन्नाच्यान ''उदकापासत वणवण भटकणे'' म्हळ्यार कितें? ताचो अणभव आमका गोंयकाराक मेळपाक लागलो.

''आनीक दोन दिस उदक आसचें ना. पावसय बेगीन पडत सो दिसना. आसा तें सांबाळून वापरात'' अशें निर्वाणीच्या म्हण्टात तशा शिटकावण्यांनी आपूण जगातलो एक चडानचड काकूट करपा सारको मनीस अशीशी गत जावपाक लागता. घराभायर लोकांभितर वतकीर Interiority Complexaक लागून स्वताचीच लज दिसपाक लागता. जो कोण मेळटा तो आपल्याक खालत्या उणाक नदरेन तेळटा अशे शें जावंक लागता. आदी मानवाच्या तेंपावेली मनशाली गत करची, जांव तशे मनोवृत्तीन वावुरपाक फोरसार करपी ज्यो कांय गजाली आसात तातूंतली चार दिस नळाक उदक ना जाल्ल्यान आमची जाता. खरे अर्थान Down to earth आमचे पांय पावतात. सुदारल्यात पूण सुदरप ना. मुखार वतात म्हणप आनी आसा थंयच उरप! अशीशी कुडीची, मनाची गत करपी ही अवतिकाय. नळाक उदक कित्याक ना? हाका ठरावीक जाप आसताच अशें ना. खंय तरी पायप फुटला, तें सारकें करपाक युद्ध पांवड्यार काम चल्ला हे बगर उदक केन्ना येतले हे कोणूच सांगनात. सगलें बरे वायट देवाचे भंरवशाचेर सोडून दितात. ताचो जीवो अणभव आमका उदक नासता तेन्ना मेळटा.

म्हजे शेजगाक एक बार आसा. मदीं फकत एक वणत आसा. थंय मुखावेल्या दारान येतल्यां परस फाटल्या दारान येवपी चड येतात. गरमेच्या दिसानी बसपाची बऱ्यांतली बरी हीच सुवात. अशे खुबशे जाणालें मन. थंय एकलो उलयतालो...

''सद्दां उठून उदकाच्यो कटकटी. केन्नाच रातचे बारा उपरान, जें केन्नाय फांतोडेर उदक येता. तेंवय इल्लें-इल्लेंशें.''

दुसरो म्हण्टा - ''उदकाक लागून आमकां फाटले स म्हयने जागरणा जाल्यांत. पाड पडलें ह्या सरकाराचे आनी मंत्र्यांचेंय''!

तिसरो म्हण्टा- ''तांका लोकाचे खंय पडलां? तांका उदकाची VIP लायन आसता. देखून तांका उदकाचो उणाव केन्नाच जायना.''

''म्हाकाय आता मंत्र्यांक सांगून VIP लायनीचे कनेक्शन घेवचें पडलें.'' पयलो उलयलो खरो. पूण तें उलोवणें म्हज्याच तोंडातल्यान आयलें अशें म्हाका दिसलें...

''अदीक बरें उदका लायनी वांगडा ह्या बार्गकडल्यान सोऱ्याचीय लायन ओड मरे! जाय तेन्ना उदक आनी जाय तेन्ना सोरो येतलो...'' दुसरो उलयलो. आता हांका चडपाक लागलां. हांवे अदमास केलो.

''फॉरैनाक खंय उदक, गॅस सगलें पायपांतल्यान नळाक येता खंय. गोंयांतय गॅसाची तशी येवजण चालीक लागल्या. सांगाताक सोऱ्याचीय लायन घालूंक मंत्र्याक सांगची पडली.'' - तिसरो उलयलो - तशे सगलेच मनासावन हांसपाक लागले.

''पावसांत लेगीत घरांनी चडशें उदक नासताच. तेन्ना नळाचे उदकाचे सुवातेर सोरो आयल्यार तान तरी भागूं येता!'' दुसरो उलयलो. पयल्यान ताका तेंको दिलो. वट्ट सगले जाण नेटान हांसपाक लागले. शेवटाक सरकारान ह्या प्रस्नाचेर ग्रांभीर्यान चिंतून कारवाय करची अशें चौगांलेंय मत जालें.

''ओंदूची गरमी सगले विक्रम मोडून उडयतली अशें दिसता. भोंवतणी जो हुलप पेटला ताणे हें खरेपण पटपाक लागला.'' ...हो पांचवे मनशालो आवाज अनवळखी सो दिसलो.

''कूड थंड करपाक उदक-सोरो
मनाचे थंडायेक उपाय कवितेचो बरो.''

अशीय तांगेल्या तोंडातली उतरां कानार पडली. हो कोण कवी थंय बसला काय? आवाज काय वळखीक मेळ्ळो ना. एक वटेन हांव वखदां काडटां-दितां. दुसरे वटेन बार्रातले संवाद कानार पडटात. कविता म्हण्टकीर म्हाका कान अदीक फुलोवचे पडले...

तोच कवी म्हणपाक लागलो, ''गोंयकारांल्या DNA भितर खंय सोरो आसा. पयर म्हाका एका दोतोरान सांगलें. ताका हांवे म्हळें... ''म्हजो जल्म पोर्तुगेज गोंय सोडून गेल्या उपरांतचो. म्हजो बापूय पोर्तुगेजा तेंपावयलो. ताका पोर्तुगेजान काय कोणे पिवपाक शिकयलां ते म्हाका खबर ना. ताचे DNA भितर सोरो आसुंये. हें हांव आयकून घेतां. पूण म्हज्याय DNA भितर सोरो कसो सांपडलो ह्या दोतोराक?'' - कवील्या रजावांच्या उलोवण्यान सगल्यांच्यो जापो बंद जाल्ले भशेन थंय थंडसाण फांकली.

''डी.एन.ए. म्हळ्यार कितें रे?'' एकल्यान मोनेळ सोंपयत म्हळें.

''नवो सोरो बी काय?'' काय नजो. तो जेन्ना पिवपाक मेळटा तेन्ना ताचेर उलोवया. आतां नाका.

''कविता बी सांगाता आसली की पिवपय बरें घोस्तान जाता. टायम बरो पासार जाता. योरे. आयलाच न्ही तू. एक कविता म्हण तुगेली.'' सगले जाण कविक आगरो करपाक लागले.

''गरमी ओंदूची सगले विक्रम मोडपाची आसा
हुलप भोंवतणचो सोऱ्यान निवळावपाचो आसा.''

सगले जण वा-वा म्हणत आड्डले...

''गरमे सोड तू ल्हांरां उज्याची कितलींय
थंडाय मनाची तिगून आसा
म्हारगायेचो हुलप हुलपायताच आमकां
दोनय हुलप निवळांवक वखद आमचे ग्लासांत आसा.

वा-वा बरी कार्रेगाद कविता. तागेल्या ग्लासांत आनीक इल्लें ओतात रे! आनीक मात्शे कडक जांवदी मुखावेले कडवें.

दर एक खीण सोंपता जिवीताचो
आयुष्य जियेवपाचे कसार
सोंपयतली गरमी आमकां सद्याक दिसता.
दु:ख कश्ट सोंसपी, मतींतली सत्री
फुलोवन दवरल्या उतळताय सोंसपाक
ग्लासातलें व्हिस्केचो आदार उजो पालयता.

पर्थुन एक फावट वा-व्वा चो गजर आयकुपाक मेळ्ळो. हे फावट तो कवितेंतल्या उतरांचे आशयाक लागून काय ग्लासांतल्या सोऱ्याचे परिणामान तो मात अदमास लागलो ना.

''चलात उठात हांगासरले आतां. दोन वरां जाली तुमी चार जाण बसून पितात हांगा. तातूंत कविता आनी म्हण्टात. म्हगेले कितलेशेंच गिरायक भायर ताटकळटा. कविता-बिविता हांगा नाकात त्यो. वचून आनीक खंयीय बसात. धा मिण्टा भितर आता उठात. पैशे फारीक करात आनी चलूंक लागात.''

असलो हो अरसीक बार्रवालो. कविता आयकप वा वाचपाचो मूडच गेलो त्या पितल्यांचो. सगलें कवळून वच्चे आदीं ही कविता हांव सोंपयतां अशें त्या कविन म्हळे. आनीक ताणे कोमेस केले...

झरे सुकल्या - बांयो सुकल्यो
म्हादय सुकल्या - मांडवीय सुकतली
बार्रवाल्यांचे तापसाणेन कविताय सुकपाक लागल्या.
पूण आमगेल्या मनांतली तळय
आसा उफाट भरुन तातूंत ओलसाण
ती ओलसाण जागयता - जागोवंक सांगता
एकमेकाचो सांगात जाय - जाय सांगात आमकां
फकत निमताक कारण सोरो - सोरो पावता.

ओंदूच्या गरमेच्या सुरवातीक घडिल्ली ही घडणूक. त्या उपरांत तो चार-पाच जाणांचो जमो त्या बार्रात जमिल्लो केन्ना आयकुपाक मेळ्ळो ना. तांगेल्यो खबरी जांव कविताय आयकुपाक मेळ्ळ्यो ना.

मनशाक सांगात जाय. सांगात मनोवपाक साजरो करपाक कसलेय तरी निमित्त जाय. ते निमित ठरपी सोरो आयज बदनाम जाला. सोऱ्यां सांगाता कवितांचे वाचप-आयकप आमकां व्हड-व्हड कवितांच्या जलशांनी आयकुपाक - पळोवपाक मेळटा. गोंयच्या बार्रानीय जर ते वाचप-आयकप उत्स्फूर्तपणान जालें जाल्यार! ती एक क्रांती जांव येता. गोंयकारांचे पिवपाचे पांवड्याक एक तरेची उंचाय मेळूं येता. अर्थात हे सोऱ्याचे तशेंच बार्रात बसून पिवपाचें संवयेचें उदात्तीकरण न्हय. तर बार्रात बसून टायमपास करपा सांगाताक अशें साहित्य रचणुकेक जर चालना मेळ्ळी जाल्यार! गोंयकारांचे बदनामीक कारण थारपी हें सोरो पिवपाचें संवयेवटेन नवे नदरेन पळोवंक देशभरांतले लोक फोर्सार जावंक शकतात. गोंय म्हळ्यार सोरो हे समीकरणय पुसून वचपाक शकता.

संपर्क: 94207 68518

***

*(पान २० वयल्यान)*

दिसूंक लागली. आमचो आमीग आनी पुतुली हेर फामिल आडोश्याक बेचैन तोंडवाळो करून तें नियाळतना नजरेंत वतालें. दोन चार वर्सा हें अशेंच चलत उरलें. एका वर्सा जाणटेल्यांच्या उल्याक पुतुल्या फामिलींतल्या कोणेच परती जाप दिली ना. थंयसर जमिल्याक कळ्ळें की आपलो गणपती पावोवन पुतूची फामील घरा परतल्ली. त्या वर्सासावन वाड्यावेल्या जुवान तरणाट्यांनी एकामेकाच्या आदारान गणपती पावोवंक सुरु केलें. आयज मेरेन तें चालू आसा.

आयज पुतु, ताची घरकान्न, ताचे तिनूय पूत आनी एक चली अशीं सगळीं ह्या संवसाराक अंतरल्यात. फाटलीं कितलींशीच वर्सा ताच्या भुरग्यांनी बांदिल्ले नवें तेर्रासा घर कुलूपांत बंद आसता. त्या घरांत गणपती पूजप थांबला. सोपेपणी पयशे आयिल्ल्यान ताका लागून जावपी झगडीं सगळ्यांक विनाशाच्या वाटेन व्हरता अशें म्हणटात. आनी तसो तो वेळ आयल्या उपरांत बेत्याच्या घराच्यो शिमिटा वंटी लेगीत वायटीन भरसिल्ल्या मातयेच्या वंटी बशेन फुस्स.. करुन कोसळटात. असल्या वेळार पुतुल्या त्या उतरांची मोख हेवूंय ना आनी तेंवूय ना किते आसूं येता हाची लागसारच्यान जाणविकाय जाता!!

संपर्क: 9822129070

***

*(पान ११ वयल्यान)*

आशिल्ले लोक हांचे जिविताचे समाधानांत खूब फरक आसलो. दुयेंस आशिल्ले लोक असमाधानी जातात. जाण्टेपणान दुयेंसा कडल्यान पयस रावप कठीण आसलें तरी वेळाच्या-वेळार चिकित्सा करप गरजेची. जडार पडचें पयलींच लक्षांत आयल्यार दुयेसांचो बेगो-बेग उपचार जांव येता. तेन्ना दुयेंस हो जाण्टेपणाचो एक भाग अशें मानिनासतना वेळचे-वेळार दुयेंस आटापाक हाडप गरजेचें.

ह्या संशोधनाची एक मर्यादा आशिल्ली आनी ती म्हळ्यार भलायके बाबतींतली म्हायती ह्या संशोधनांत वांटेकार जाल्ले जाण्ट्यांनीच दिल्ली आसा. दोतोरांक तपासूंक लावन वा वास्तवी भलायकेचो नियाळ करूंक ना. तशेंच ह्या संशोधनांत फकत आपले घरा वा आपल्या भुरग्यां वांगडा रावपी जाण्ट्यांचोय अभ्यास केला. वृद्धाश्रमांत वा हेर संस्थानी रावपी जाण्टीं, तांचे जिविताचें समाधान वा तांची भलायकी हाचो अभ्यास जालो जाल्यार आनीकय म्हायती मेळटली.

संपर्क: 9881527581

***

# पुराणांतलीं वांयगीं

कृ. म. सुखठणकार



'पुराणांतलीं वांयगीं' हो माथाळो वाचल्या बगर तुमी पुराणांतलीं वांयगीं न्ही तें, 'पुराणांतील वानगी' अशें म्हणटले हें हांव जाणा.

गोंयकारांक पुराण आनी वांयगीं सामकीं लागिचीं म्हणून हांवे तशें म्हणलां. ताचेर आनीक वाद नाका. हांगा वाद घालपाक खूब विशय आमचे कडेन आसात. पयर शेंवत्यालें धाकटें सांगतालें ताका खंय खंयच्या तरी पेपरांत 'विशय घेयात आनी वाद घालात' असो धा गुणां खातीर प्रस्न आयिल्लो. हांवे म्हज्या सभावाक धरुन भियेत भियेत खंयच्या विशयाचेर धा वळीं भितर वाद घालो काय म्हूण विचारलें. बाळ गंगाधर टिळक ह्यांचा जन्म इसवी सन १५१० पुर्वी झाला असता तर पोर्तुगिजांना गोव्यांत येण्याचे धाडस झाले नसते, हो विशय घेवन ताणे वाद घालो अशी म्हाका ताचे कडल्यान म्हायती मेळ्ळी. म्हाका त्या धा वळीं विशीं विचारपाचें धाडस जालें ना. सोड.

वयर म्हणलां तशें आमकां गोंयकारांक पुराण आनी वांयगीं सामकीं लागिचीं. हे भुमीचे उत्पत्तीचो संबंद पुराणां कडेन आसा. परशुरामान एकवीस फावटीं ही पृथ्वी क्षत्रीय मुक्त केली (काँग्रेस मुक्त भारत ही कल्पना मागीर आयली) आनी तो दक्षिणे कडेन आयलो. हांगा पावल्या उपरांत बाण मारुन, दर्याक फाटीं सारुन ताणे ही भुमी तयार केली असो पुराणांत उल्लेख आसा. आज आमी गोंयांत मेळटा थंय भर घालून भुमी तयार करुन परशुरामाचो धडो गिरयत आसात. आसूं, तो आमचो विशय न्ही. ह्या हिशोबान गोंयचो मालकी हक्क परशुरामा कडेन आसूंक फावो. ह्या गजाली कडेन आमी अजिबात आडनदर करुंक फावऽ ना. हाका लागून मायनींग लिझीस विशीं खंयचोय निर्णय घेतना परशुरामाक स्टेकहोल्डर ह्या नात्यान वांटेकार करुन घेंवचोच पडटलो अशें आमच्या सावळ्याचें मत. परशुराम हो चिरंजीव हाचोय दाखलो आमकां पुराणांत मेळटा.

*अश्वत्थामा बलिर्व्यासो हनुमांश्च विभीषण:*

*कृप: परशुरामश्च सप्तैते चिरंजीविन:*

हाका लागून भगवान परशुरामाक भायर दवरुन मायनींग लिझीच विशीं खंयचोय निर्णय घेतल्यार तो बेकायदेशीर थारुं येता. ह्या पुण्य भुमीचे उत्पत्ती विशीं आनीक म्हायती एकठांय करपाच्या हेतुन हांव दनपारच्या कडार पांडुरंग रामराय सावंत (खालचा वाडा, तारी जवळ) हांच्या म्हर्यांत गेलों. पांडुरंग बाब भाशातज्ञ आनी विचारवंत हें तुमकां खबरुच आसा.

**हांव:** पांडुरंग बाब, भगवान परशुरामान बाण मारुन, दर्याक कुशीक मारुन ही भुमी निर्माण केली हाचेर तुमचो अभ्यास कितें?

**पां बा.:** हो वेळ ही भुमी दर्यांतल्यान वयर कशी आयली हाचेर विचार करपाचो न्ही. ती आतां परत फोंडांत कशी वचपाक लागल्या हाचेर विचार करपाची गरज आसा.

अशें म्हणून पांडुरंग बाबान म्हज्या तोंडार दार मारलें आनी न्हावपाक गेले. घडये दनपारच्या कडार तांची तकली तापल्या आसुंये अशीं म्हजो अदमास.

वांयग्यां विशीं उलोंवचें जाल्यार आमची आगशी आनी ताळगांवचीं वांयगीं सामकीं फामाद. आतां पुराणां वरी तींय काळाच्या पड्ड्या आड गेल्यां म्हणल्यार जाता. हांव कवळे जात्रेक हीं वांयगींच घेवपाक वतालों ही तुमच्या खातीर अभिमानाची गजाल. देवळा फाटल्यान वांयगीं, कणगां आनी बोरां घेवन आगशेची एक जाण्टी बायल बसताली. आमी तिका माय म्हणून पाचारताले. जात्रेक वतकच वांयगीं, कणगां, बोरां घेवन जातकच च्या वांगडा गरम बटाटवडो खावप, अर्द कील खाजें घेवप, फांतोडेर रथार नाल्ल मारप आनी देवळा कडेन दर्शना खातीर लागिल्ली व्हडली रांक पळोवन 'भाव तेथे देव' अशें म्हणून घरा येवप. असो सादारण म्हजो प्रोग्राम आसतालो, तुमचे म्हायती खातीर. देवळाच्या चौकार शिरवैकारालें सीमा मेळ्यार जात्रेक गेल्ल्याचें सार्थक जाल्ल्यावरी जातालें. आसूं. कोणे तरी म्हाका कवळे जात्रेक वांयग्यांची आनी कणगांचीय जात्रा म्हणटात अशें सांगिल्लें. हांव तेच कारणाक लागून जात्रेक गेल्ल्यान म्हाका तें नांव भावलें. कोळश्यार भाजिल्लें वांयग्याच्या भर्ताक लावन चपात्यो खावपांत जी मजा आसा ती आनीक कित्यांत ना, अशें बापूय (म्हजो) सदांच म्हणऽ. ताचें श्राद्ध आनी वांयग्याच्या पिकाचो मेळ बसना हाका लागून ताच्या श्राद्धाक वांयग्यांचें भर्त हो आयटम मनांत आसून लेगीत दवरपाक मेळना हाची आमकां खंत आसा. भर्तांतलीं मिरसांग खाल्या उपरांत च्या चो घोंट मारुन 'टक्क' असो आवाज तो काडटालो आनी दोन मिण्टां 'ब्रम्हानंदी टाळी' लागिल्ल्यावरी दोळे बंद करुन ओग्गी बसतालो. आई मागीर 'घोंट मारलो दिसता' अशें म्हणून तोंडाक पदर लावन हांसताली. सावळो ह्या ताचे अवस्थेक 'भर्ता कडून समाधी कडे' अशें म्हणटालो. पुणून हे अवस्थेक पावपा खातीर कोळश्यार भाजिल्लीं आगशेचींच वांयगीं जाय अशें म्हाका नमूद करचें पडटलें. आमच्या वांयग्यांची सर आनीक खंयच्याच वांयग्यांक येना.

हांव एकदां रेखा भुजंगराव हुबळीकरागेर गेल्लों. तेन्नाच ताचो बापूय भुजंगराव भरिल्ल्या वांयग्याक लावन चपात्यो खातालो. घर भर भिकणाचो आनी तेलाचो वास पातळलेलो. ताणे वांयगें चपाते खाला चिडून चिडून खाल्या उपरांत, उदकान भरिल्लो पितुळचो तांबयो तोंडाक लायलो आनी तो खाली करुन सकयल दवरलो. ताच्या तोंडार, म्हज्या बापायच्या तोंडार वांयग्यांचें भर्त खाल्या उपरांत दिसता तशे कसलेच भाव दिसनाशिल्ले. ताणे तांबयो सकयल दवरुन एक धेंकर दिलो आनी

आपल्या मिश्यांचेर हात फिरोवन जाय तितलो पीळ दिलो.

''अहो भुजंगराव आपल्याला ह्या वांग्या विशयी काहीच अप्रूप वाटत नाही का हो? माझे वडील वांग्याचे भरीत खाल्यावर समाधीत जातात'' हांवे सामकें राव नजो जावन प्रस्न केलो.

''वांग्यात खास असं काही नाही. वांगी ह्या भाजी पाला पिकाची लागवड वर्षभर खरीप आणी रब्बी हंगामात करतो. कोरड वाहू शेतीत आणि मिश्रपीक म्हणूनही वांग्याची लागवड करतात. आहारात आमच्या कडे वांग्याचं भाजी, भरीत, वांग्याची भजी इत्यादी अनेक प्रकारे उपयोग होतो.''- भुजंगराव.

''असं होय शाब्बास!'' हांवे म्हणलें तशें भुजंगरावान आपल्या मिश्यांचेर मुठ फिरयली.

''पांढरी वांगी मधुमेह असलेल्या रोग्यानां गुणकारी असतात.''

ताणे वांयग्यांचें वैजकीय गूणधर्म सांगले. तेन्ना म्हाका गोड्या मुताचो त्रास नाशिल्लो तुमच्या म्हायती खातीर.

''अरे व्वा मधुमेहवाल्यांची चंगळ म्हणायची! दररोज पानांत पांढर वांग'' हांवे बारीकसो विनोद केलो. तो भुजंगराव आयकुपाच्या मनस्थितींत नाशिल्लो. तो सामको रंगार आयिल्लो. थोडे नाका जाल्ल्या गजालींचेर रंगार येतात. कशें म्हणून सांगपाक हांव नकळों.

''कोरड्या आणि उष्ण हवामानामध्ये वांग्याची वाढ चांगली होते राव.'' रंगार येतकच भुजंगराव म्हाका राव म्हणटा, तुमचे म्हायती खातीर.

''सर्व प्रकारच्या हलक्या ते भारी जमनीत वांग्याचे पीक घेता येते. वैशाली, प्रगती, अरुणा अश्या वांग्याच्या जाती आहेत.

''आमच्या कडे वैशाली, प्रगती, अरुणा अशी नांवे मुलीनां बारश्याला ठेवतात. वृन्तांकं स्वादु तीक्ष्णोष्णं पाके कटु च असं आयुर्वेदात म्हटलंच आहे. तुम्ही वांग्याची अशीच लागवड घ्या आणी समाचार घ्या. आम्ही आपला निरोप घेतो.''- अशें म्हणून हांव थंयच्यान कडसरलों.

पुराणाची व्याख्या आमच्या जाण्टेल्यांनीं 'पुरा नवं भवति इति पुराणम्' अशी केल्या. पोरणे जावन लेगीत नवें तें पुराण. अशें आसतना लेगीत पुराण काळाच्या पड्ड्या आड जावपाक लागलां हाची म्हाका खंत आनी काळजी जावपाक लागल्या. फाटीं पाव पांच रुपया जाल्ले तेन्नाय म्हाका अशीच काळजी जाल्ली. सोड, आमी पुराणाचेर उलयताले. आज पौराणीक सिनेमे थेटरांनी लागनात, टिव्हीचेर मालिकाय बंद पडल्यात. अमर चित्र कथा आसा काय म्हूण पुस्तकांच्या दुकानार वासपूस केल्यार नाबी वयलो मनीस विचित्र नदरेन पळयता. हाका लागून समाजांत जावपाचे ते परिणाम जावपाक लागल्यात ते बरे काय वायट तें जण एकल्यान थारावपाचें. 'माझ्या पतीची बायको, सवत माझी लाडकी' असलीं धारावाहिकां टिव्हीचेर लागतकच आनी कितें जातलें? आमची पिळगी वडाक सुतां बांदीत व्हड जाली. म्हाका याद जाता, आमचें लग्न जातकच पयल्याच रातीं हिणे गंगावन काडटना 'यमान तुमकां म्हज्या पासून व्हरुनूच दाखोवचें. हांव सती सावित्री जावन तुमकां परत हाडटलें म्हणजे हाडटलें. यमान तुमकां व्हरुन दाखोवचेंच म्हजी ओपन चेलेंज ताका.''

जेन्ना अशी हिणे यमाक चेलेंज दिली तेन्ना म्हाका भरुन आयलें. 'आसूं गो तुजी चेलेंज', अशें म्हणून हांवे लायट काडली.

आमी हिची चेलेंज कुशीक दवरुया पुणून पुराणांचो आमचे पिळगेर जाल्लो परिणाम कितलो आशिल्लो हें आमकां हांगा दिसून येता. आज जे समाजांत बदल जाल्या ताचे परिणाम आमच्या संस्कारांचेरुय दिसून येतात. फाटीं हांव एका मुजीक गेल्लों. इतल्यान फाटल्यान मुग्ज सुरु जालें आनी बटु दंड आनी भिक्षा पात्र सांबाळीत 'दे दे भिक्षा दे, भिक्षा दे माईं भिक्षा दे' (दे दे प्यार दे ह्या चालीचेर) अशें म्हणत संगीताच्या तालार नाचपाक लागलो. हांवे तें पळोवन म्हजीं पांचूय बोटां (उजव्या हाताचीं) तोंडांत घालतां थंय आसा, फुडल्यान बटुची आवय आनी मावश्यो 'घे घे घे रे घे रे भिक्षा, भिक्षा में कमी नहीं' (घे घे घे रे सायबा चालीचेर) अशें म्हणून कुदपाक लागलीं. हे सगले नाच बसोवपाक म्हयनो भर मास्तर येसायो घेवपाक घरा येतालो अशी म्हायती हॉलांतल्यान भायर सरतना म्हज्या कानार पडली तशें बुफेंत खाल्ल्यो मुगां गांठी गळ्या कडेन आयल्यो, कशें आनी कित्याक तें खबर ना. बसींत बसतकच म्हाका म्हजे मुजीची याद जाली. पांडुरंग म्हाल्यान म्हजे तकलेर भोंवरो दवरतना असंख्य घावे केल्ले. तांचेर फडकी भोंवडायत खाकेंत दंड आनी हातांत भिक्शा पात्र घेवन अनवाणी पांयानी, वता कडार, देऊळ ते अगरसाळ भोंविल्लो तो प्रसंग तश्याक तसो दोळ्यां सामकार उबो रावलो. आसूं. आज सत्यनारायण पुजा करपाक आमकां निमतां लागतात. पयलीं जातालीं तशी ती पुजा आज सहजासहजी जायना. पयलीं वाड्यार दर एका घरांत, चवथी कडेन परबे निमतान ही पुजा जाताली. लावडस्पिकरावयल्यान कथा कानार पडटाली. यज्ञकर्मां तर सामकींच बंद पडल्यां. प्रभू रामचंद्रान अश्वमेध केल्लो तो निमणो अशें म्हाका तरी दिसता. म्हाका तरी कोणे रस्त्यार घोडे सोडिल्ले दिसू ना. गोरवां मात सगल्या रस्त्यांचेर बशिल्लीं दिसतात. ती कोणे सोडल्यां तें खबर ना. आज मेहंदी, संगीत हांच्या सामकार यज्ञकर्मां करपाक कोणाक टायम आसा? आमच्या भुरगेपणांत सांजेच्या संक देवळा कडेन लावडस्पिकर लागतालो आनी आमकां गीत रामायण आयकुपाक मेळटालें. तेन्ना म्हाका सपनांत लेगीत गदीमाच्या गीत रामायणाचेर आधारीत पडटालीं. हांव आनी संध्या (बरडालें) यज्ञ करपाक माटवांत बसल्यां. हांव ह्या यज्ञात समिधा घालतां आनी यज्ञकुंडांतल्यान एक दिव्य पुरुश वाटी (पायसाची दाको बी घालून) घेवन प्रकट जाता.

*''बाबा घे हे पायसदान*
*तुझ्या यज्ञी मी प्रगट जाहलों हा माझा सन्मान*
*संध्या करील पायसभक्षण*
*उदरीं होईल वंशारोपण*
*तिच्या पोटी जन्मा येईल*
*एक नेता महान''*

अशें म्हणून त्या दिव्य पुरुशान ती वाटी संध्या कडेन दिली आनी तो आशिल्लो तसो यज्ञकुंडांत भितर गेलो. आनी हेवटेन घामाघूम जावन हांव थपथपलेल्या अवस्थेन जागो जालों. आजूय पंचमीक दाको आनी बियो घाल्लो पायस भक्षण करतना म्हाका त्या दिव्य पुरुशाची याद येवन भरून येता. पुराणाचो आमचे पिळगेचेर जाल्ल्या प्रभावाचे दाखले सोदल्यार खूब आसतले. म्हाका याद जाता आमी चवथी पास जाले आनी पणजे स्कूलांत दाखल जाले. शाळा सोडटना पाटील गुरुजीन आमचे खातीर ल्हान सो च्या पाण्याचो सुवाळो दवरलेलो. च्या आमीच किटलेन भरुन हाडिल्लो आनी भर्जी व्हनीबायन (संध्याचे मातोश्रीन) काडिल्लीं. तर, पाटील गुरुजीन आमकां 'मुलांनो मला तुम्ही गुरुदक्षिणा म्हणून काय देणार' असो प्रस्न केलो. दत्तान, 'गुरुजी आमचा अंगठा सोडून काय पण मागा. आपण शिकवून लेगीत आम्ही अंगठा बहाद्दर राहिले तर अंगठा नको का लावयला' अशी आप दिली. पाटील गुरुजीन मागीर 'हत् लेका' अशें म्हणून मायेन ताचे फाटीर धुमको घालो. म्हाका न्हिदतना आंगठो चोखपाची संवंय आशिल्ली, ती मागीर खूब उसरां गेली. भुरग्यांक हें कळत जाल्यार ती चाळयत म्हणून हांवे म्हज्या आंगठ्या विशीं कांय भाश्य केलें ना. तशें पळोवंक गेल्यार एकलव्या परस म्हाका आंगठ्याची चड गरज आशिल्ली. सोड.

आनीक एक याद हांव कॉलेजींत आसतनाची. हांव मुंबय काकाल्या (महाराश्ट्र परिवाहन मंडल, बोरिविली आगर) खबरेक वतालों. हो काका गोंया येतना आमकां घाव्यांक लावपाक जळिल्ली ब्रेक ऑयल घेवन येतालो. एकदां आईन, बापायक ताका चीट बरोवंक लावन, 'मागल्या वर्षी आणलेली ब्रेक ऑयल आम्हाला फाव त्या प्रमाणात घावे न जाल्याने पडून आहे. हल्ली आमच्या काळजाला घावे ज्यास्त होतात. त्यावर लावायचे ब्रेक ऑयल तुमच्या खात्यात फुकट मिळत असल्यास पाठवण्याची तसदी घ्यावी' असो निरोप धाडिल्लो. आसूं. तर, तेन्ना मुंबय वतलो जाल्यार गाडी मिरज जंक्शनाचेर बदलची पडटाली. डब्यांत म्हाका पारशी फामील मेळ्ळी. प्रवासाक वतना हांव सदांच 'My experiments with truth' (मोहनदास करमचंद गांधी उर्फ बापूजी) हांचे पुस्तक घेवन वतां हें तुमकां हांवे सांगलांच. आशीकुशीक वातावरण पोशक आसल्यार तें पुस्तक उगतें करुन धरतकच इंप्रेशन मातशें बरें पडटा. डब्यांत हरशीं वातावरण फाव तशें नाशिल्लें तरी आसतना हांवे पुस्तक उगडून तोंडा मुखार धरलें. रोखडोच म्हाका बावाजीन प्रस्न केलो.

"Where are you from?"

"I am from the land reclaimed by Lord Parashurama thousand years back. Pincode is 403006. Yours Mumbai was reclaimed in just 19th century."

अशी जाप हांवे म्हजी पसतीस ईंच छाती फुडें काडून दितकच बावाजी म्हजे कडेन सोड घरकान्नी कडेन (खुरशेद हें मागीर कळ्ळें) लेगीत मुंबय पावसर उलयलो ना.

पुरण आनी पुराण दोनूय काळाच्या पडद्या आड वचपाच्या मागीर आशिल्ल्यान पुरण आनी पुराण म्हणटात तें कितें हें आयचे पिळगेक सांगचो पडटलो. फाटीं हांवे पुरण पोळी खायन दिसता अशी ख्वाईश धीर करुन सगल्यां मुखार दवरली. (हजारों ख्वाईशें ऐसी... तातुंतली एक).

'पुरण पोळयेचो व्याप कोण घेवन बसतलो आतां' अशी जाप रांदचेकुडीचे दिकेंतल्यान कानार पडली.

'पुरण पोळी आयकल्या पुरण पोळयेचो व्याप म्हणल्यार रे' असो प्रस्न स्टडी रुमांतल्यान आयलो आनी म्हाका खंयची दुरबुद्धी सुचली आनी पुरण पोळी खावपाची ख्वाईश व्यक्त केली अशें जालें. आतां पुरण पोळयो करुन मेळटात हाका लागून कोण त्यो घरा करपाक सोदीनात. भायर करुन मेळटात म्हणून त्यो पळोवंक मेळटा नाजाल्यार तांचीय गत अनशें आनी खटखट्या वरी जावपाची. पुरण पोळयो भायल्यान हाडल्यार लेगीत तांचेर सोडपाक तूप घरावें नासता. तूप करपाचो व्याप कोण घेवन बसतलो हो प्रस्न आसाच. सोड, तो आमचो विशय न्ही.

पुराणां अठरा आसात आनी तीं महर्शी व्यासान बरयल्यां अशें वाचूंक मेळटा. विधान केल्यार पुरावो मागता. वाचलां म्हणटकच खंय वाचलां अशें कोण विचारिना कारण आज कोणूच वाचना ही सत्य परिस्थिती. तर, अठरा पुराणां आनी सव्वीस उपपुराणां आसात. तांची नांवां हांगा दिवप म्हणल्यार शाय, कागद आनी वेळेचो (म्हजो) अपयव्य हें हांव जाणा. कारण आज आमच्या बाबुली भटाक लेगीत आचमन करतना केशवा य नमः माधवा य नमः नारायणा य नमः हाचे फुडे आनीक एक नाव घेवपाक वेळ नासता. म्हणटकच तुमकां अठरा अधिक सव्वीस (बेरीज तुमीच करात) नांवां वाचपाक वेळ कसो आसतलो. एक नारद पुराण घेतल्यार तातूंत बावीस हजार श्लोक आसात. हो आंकडो वाचतकच हें कलियुग आसल्या कारणान तुमच्या मनांत म्हज्या आनी व्यासा बद्दल तरे तरेचे विचार येतले हे हांव जाणा. व्यासाक तेन्ना आनी म्हाका आतां काम धंदो ना असोय एक विचार तातूंत आसूं येता. फळां आशिल्ल्या रुखारूच लोक फातर मारतात अशें कोणे तरी म्हणलां (व्यासान न्ही) अशें म्हज्या वाचनांत आयलां. सोड. 'पुरा नवं भवति इति पुराणम'' अशें म्हणलां पुणून आमकां पोरणे जाल्लें कांयच नाका. आज आवय बापूय लेगीत पोरणी (जाण्टी) जातकच तांची पोटली वृद्धाश्रमांत पावता अशी परिस्थिती. जंय पोरण्या पदांचें रीमिक्स करुन आयकता थंय पुराणांचेर उलोवप म्हणजे पिशेपणाचें हें हांव जाणा. पुणून जे जे आपणासी ठावे... असो म्हजो सभाव जाल्ल्या कारणान हांव तें करतां. सभावाक वखद ना हें तुमी जाणाच. हांवे पुराण हातांत घेवपा फाटल्यान आनीक एक कारण आसा. म्हज्या वाचनांत एक श्लोक आयलो,

*यो विद्याच्चतुरो वेदान् साङ्गोपनिषदो द्विजः*
*न चेत् पुराणं संविद्यान्नैव स स्याद् विचक्षणः*

वेद आनी उपनिषदां शिकून लेगीत पुराणाक जर हात लायलो ना जाल्यार ताका विद्वान म्हणू नजो असो सादारण हाचो अर्थ. आमचें घराणे शास्त्र्याचें आसल्या कारणान आमकां असलें कोंताक येना अशें

दिसलें म्हणून हांव पुराणांच्या वाटेक गेलों. हाचे वेल्यान म्हाका एक याद जाली. जशे वेद आनी उपनिषदां वाचून विद्वान जायनात तशेंच पयलीं पदवीधर जालो आनी कंप्युटराचें गिन्यान नासत जाल्यार ताका सुशिक्षीत म्हण नाशिल्ले. आदल्या काळान फकत सय मारपाक आयल्यार लेगीत सरकार ताका साक्षर म्हणटालो. ही लग्ना आदीं कपड्यांच्या पसऱ्यार नोकरे खातीर मुलाखतीक गेली. बरी ग्रेज्युयेट आशिल्ली. थंय हिका टॅली पॅकेज येता काय विचारलें. हिणे कंप्युटराचें तोंड लेगीत पळोवंक नाशिल्लें. हिणे आपल्याक वारांनी मेजपाक येता, पोलक्या पीस कापपाक येता अशें म्हणून डेमो दिवपा खातीर कातर मागली. पसरकार टॅली टॅली करत रावलो तशी ही घरा आयली. लग्नाक पळोवपाचो प्रोग्राम जालो तेन्ना हांवे हिका, 'खंय नोकरी बी केल्या' ह्या म्हज्या प्रस्नाक हिणे ही म्हायती दिली. आसूं. तर, जाणी पुराणां वाचुंनात तांकां आमी विद्वान म्हणूंक शकनात अशें हो वायु पुराणांतलो श्लोक म्हणटा.

इतलीं वर्सां मृत्यु लोकांत रडत काडलीं फुडें मरतकच तरी नशिबान सुख आसा काय ना हें जाणून घेवपाची म्हाका भंयकर उमळशीक. ह्या खातीर हांवे कितेंय हाताक लागत म्हणून कठोपनिषद् वाचून काडलें. तें वाचून हांव आनीक घुसपलों. यमान कितें सांगलें तें नचिकेताकूच कळपाचें. आत्मो हें उतर वाचतकच म्हाका कच्च जाता. आत्माराम नांव आशिल्ल्या मनशा पासून लेगीत हांव दोन हात पयसूच रावतां. पयर कोणे तरी म्हाका आत्माराम बार ऍंड रेस्टॉरण्टांत नवें हुर्राक आयलां म्हणून सांगलें पूण हांव थंय गेलो ना. व्हितोरीगेर तें येतकरूच हांवे तें उश्टायलें, तुमचे म्हायती खातीर. हांगा यम आत्मो आत्मो करुन राजकारण्यावरी सगलोच चकरावन उडयता. सोड. तर, जितो आसतना जें जावपाचें तें जालें मागीर कितें जातलें हें जाणून घेवपा खातीर हांवे गरुडपुराण हातांत घेतलें. कारण उर्वशी, मेनका, रम्भा, तिलोत्तमा, घृताची ह्या अपसरांचीं नांवां आयकून जाणा आशिल्लों. तांचो सहवास बी मेळत काय ही ओगीच आशा. कारण हांव तपस्येक बसतलों मागीर मेनका म्हजी तपस्या भंग करपाक येतली म्हणल्यार कावळे म्हातारे जातले. कारण विश्वामित्राचे तुलनेन हांव सगल्याच बाबतींत फ्राक हें हांव मान्य करतां. विश्वामित्राचें ध्यान तरी लागिल्लें म्हजें तेंय ना. मनाक एकाग्रता म्हणटात ती ना. सुख देवासी मागावे दु:ख देवाला सांगावे म्हणत दर पंचमीक कवळ्यां वतां.देव मागे देव पुढे देव आहे चोहिकडे दोळे मिटूनी बघावे अशें म्हणून हांव दोळे बंद करतां आनी देवतेक नमस्कार करतां. दोळ्यां मुखार मात 'महिलानी ह्या बाजूस बसावे' ही पाटी आनी त्या बाजूस बसलेल्या सिलेक्टेड महिला येतात. फट कित्याक सांगू देवतेक खबर आसा. थोडया भितर म्हजी तपस्या भंग करपाक मेनका नाका म्हाजन मंडळीच पुरो. गरुड पुराण उगडलें आनी

मनशाक ताच्या कर्मानुसार सर्गलोक वा नरकलोक मेळटलो हें सुरवेकूच वाचलें आनी म्हजो मूडूच ऑफ जालो. शाळेंत आसतना लेगीत, जसो अभ्यास करता तशे तुमकां गूण मेळटले, ह्या पाटील गुरुजीच्या वचनाचेर आमचो केन्नाच विश्वास नाशिल्लो. म्हणून हांवें सावळ्याक सांगून पोर्सांत सालदाट्या केळ्यांचे केळमे लावन घेतिल्ले. फुडें घड लागता त्या हिसपान म्हाका गूण मेळपाक लागले.

बरें कर्म केलां तांकां व्हरपाक देवदूत येतात आनी तांकां सर्गांत व्हरतात. आमचे सारकेल्यांक नरकांत व्हरपाक यमदूत येतात. हे यमदूत दातांचो कट कट आवाज करीत आसतात अशी म्हायती हांगा मेळटा. कोण तरी व्हरपाक येता हें वाचून म्हज्या जिवाक बरें दिसलें. म्हज्या लग्नाक लेगीत (भगवती मंडप, भोमा गोवा) म्हूर्त लागीं पावलो तरी न्हवऱ्याक व्हरपाक कोण येंव नाशिल्लो. मागीर आमी हॉलाच्या दारांत उबे रावन रावन वाजेले. 'आनीक कितली वाट पळोवप या आमी सव्यार' अशें दत्तान म्हणटकच हांव 'लेफ्ट रायट लेफ्ट रायट' करीत सव्यार चडलों. हांगा दातांचो आवाज करीत काय जायना, कोण तरी व्हरपाक येता हें वाचून म्हज्या तरी जिवाक बरें दिसलें. दातांचो कट कट आवज हिका दंत जातकच ती करता. म्हाका ताचीं इतलीं वर्सां संवंय जाल्या. तुमकां मात ताचो त्रास जांव येता. हाचो अर्थ तुमकांय व्हरपाक यमदूत येतलो अशें हांव म्हणना. घडये तुमच्या हातांतल्यान चुकून पुण्य बी जालां आसत जाल्यार देवदूतूय येंव येता. ते कसले आवाज करीत येतात ताचो मात उल्लेख पुराणांत ना. ते व्हरपाक येतकच तुमकां कळटलें. आसूं.

जीव सोडलो म्हूण जायना. जीव सोडटकच सेगीत सत्तेचाळीस दीस चलतकच यम लोकांत पावता. जांकां चलपाची संवंय ना तें हें वाचून जीव सोडटले हें म्हाका खबर आसा. हांवें हें वाचिल्ल्याक घरच्यान बरडाल्या पसऱ्यार, म्हांबऱ्याल्या फार्मासीर हांव चलत वतां. चलपाची संवंय नाशिल्ल्यांक सेगीत सत्तेचाळीस दीस चलपाक सांगल्यार पांयाक गुळे हे येतलेच. मरतकच सगले भोग सोंपतात असो जांचो समज आसा तो गैरसमज हें गरुडपुराण पयस करता. शरिराक व्यायाम म्हणून न्हय तर मागीर सत्तेचाळीस दीस चलचें पडटलें म्हणून तरी चलपाची संवंय करात अशी म्हजी तुमचे कडेन नमळायेची मागणी. हांवें मरणा उपरांत सत्तेचाळीस दीस चलपाची वार्ता आमगेर येवपी सिनीयर सिटीजनांक दितकच ताणी 'आमकां चलता फिरतना देवान उखल्ल्यार पुरो गे बाये' हो डायलॉग मारपाचो बंद केला, कित्याक खबर ना. एकलेन, 'दोन पावलां मारल्यार म्हज्यो पोंवट्यो भरुन येतात आतां म्हजें कशें कितें गे आतीबाय' असो प्रस्न आईक केलो. आईन, 'थंय हून उदकाच्या पिशवेची वेवस्था आसतली' अशें सांगून तिका थंड केली. आतां ही म्हायती वाचल्या उपरांत तुमकां नरकलोकाची आनीक म्हायती जाणून घेवपाची उमळशीक जाल्या आसतली हें हांव जाणा. कितल्योय पंचमी, संकश्ट्यो, सोमार, बिरेस्तार केले तरी सगल्यांक आपलें फायनल डेस्टीनेशन खबर आसा. म्हणटकच हांव तुमकां नरकांत कशें वचप हाची सविस्तर म्हायती दितां. तुमचे बराबर यमदूत आसतल्याच म्हणटकच भियपाची नशी गरज ना. आनी [illegible] लोकांत पावपाची शक्यता तर नाच्च. 'जाना था आपान पहुँच गये चीन' अशें हांगा जायना. ओगीच आशा दाखोवप म्हज्या सभावान बसना. सोड. तुमच्या मनाची तयारी आसची हे खातीर ही खटपट. मनाची तयारी केन्ना करची हेंय गरुड पुराणांत सांगलां. जीएमसींत एडमिट जाले म्हणटकच तुमी मनाची तयारी करची अशें गरुडपुराणांत खंयच म्हणू ना, तुमचे म्हायती खातीर. मरण येंवच्या आदीं दोन तीन दीस आशीकुशीक अदृश्य शक्तींचें अस्तित्व जाणवता अशें म्हणल्लां. म्हज्यां उबे आशिल्ले सगे सोयरे दिसनात पुणून यमदूत मात स्पश्ट दिसता. हें वाचतकच मातशी गडबड जांव येता. म्हजी जाल्ली. मदीं हांव कोवीड पॉजिटीव जाल्लों (पयलेच खेप म्हजे जिणेंत कितें तरी पॉजिटीव जालें). दोन-तीन जोर येतालो. असोच जोर आयिल्ले कडेन म्हाका अदृश्य शक्तीची उपस्थिती जाणवपाक लागली. खाटी कुशींक बशिल्ली आई दिसना जाली आनी यमदूत स्पश्ट दिसपाक लागलो. हांवें आईक ताची जाणीव करुन दिली. इतल्यान यमदूतान 'लुरांव घेयात' म्हणलें. यमदूत येतना लुरांव हाडटा हें आयकून हांव सुखावलों. हांवें 'थँक्यू सो मच' लेगीत म्हणलें. 'आरे भ्रम जावपाक लागला तुका, हो हांगाचो दूत तुजी बायल ती, उठ आनी लुरांव घे' अशें आईन म्हणटकच म्हाका अदृश्य शक्ती कोण तें स्पश्ट जालें. तुमकां त्या आनी हांगाच्या दुतां भितर फरक करपाक कळप सामकें गरजेचें नाजाल्यार तुमकां यमयातना हांगाच भोगच्यो पडूं येतात. फुडें गरुड पुराणांत सांगलां, मरणा आदीं कांय दीस पयलीं आंगाक घाण मारपाक लागता. हांगाय घामसाणेक लागून तुमच्या आंगाक घाण मारता ती वेगळी हें तुमी मतींत दवरपाक जाय.

आतां फुडें. आत्मो दिसाक दोनशे योजना चलता. (१ योजन ४ कोस=१३-१६ किलोमिटर). वाटेर मदीं रावल्यार फाटीर चाबकाचे फटके बसतात अशेंय थंय नमूद केलां. सोम्य, सौरिपुर, नगेंद्रभवन, गंधर्व, शैलागम, क्रौंच, क्रूरपुर, विचित्रभवन, बह्वापाद, दुःखद, नानाक्रंदपुर, सुतप्तभवन, रौद्र, पयोवर्षण, शीतढ्य, बहुभीती हीं ठिकाणां काडून आत्मो शेवटीं यमलोकांत पावता. हांवें हिका हें सांगू नाका, हिणे रोखडेंच 'म्हाका चार पांच प्लास्टीकच्यो पिशव्यो आनी आलें जाय पडटलें आं' अशें सांगून दवरलें. जसो काय हांव नरकांत टूर कंडक्ट करतां. हिका मृत्यु लोकांत जितलीं प्रवास करपाची साधनां आसात तितलींय लागता, म्हणजेच ओकूंक येता. ही अजून पुश्पक विमानांत बसूना म्हणटकच ताचेर भाश्य करप समा न्ही. तर यमलोकांत वतना आमकां वाटेर वैतरणी नदी लागता. हे नदयेंतल्यान भंयकर घाण वास भायर येता आनी ती सदांच किड्यांनी भरिल्ली आसता. जितलें तुमचे गांठीक पुण्य तितलें तुमकां ही नदी हुपून वचप सोपें. हांव पणजे वतां तेन्ना सांतईनेज नालो सदांच पळयतां आनी तो सहज हुपून वतां. म्हणटकच म्हाका ह्या वैतरणी नदीचें वर्णन आयकून व्हडलो भंय सो दिसलो ना. नरकांत पावतकच आत्म्याक आळेण लावन तळटात काय पिठयेन तळटात हें हांव सांगूक बसना. तुमकां ताचो आताच्यानूच

*(पान ३२ चेर)*

# 'महाप्रस्थान'

नूतन साखरदांडे



प्रो. डॉ. कस्तुरी मोहन पै हे काळजाचे दोतोर. मणिपाल विद्यापीठांत वैजकी शिक्षण आनी AIHMS प्रशिक्षण घेवन फाटलीं ३५ वर्सां वैजकी शास्त्र शिकोवन ते वैजकी प्रोफेसर म्हूण निवृत्त जाले. भारत देशाच्या १२ विद्यापीठांक ते युजी आनी पीजी परीक्षक आसून संवसारांतल्या पांचूय खंडाच्या विंगड विंगड देशांनी ताणी संशोधनात्मक प्रबंध मांडल्यात. विज्ञानावांगडाच तांकां इतिहास कला आनी तत्वज्ञान ह्या विशयांत रस देखून आपल्या घरकात्रीसयत संवसारभर प्रवास करून तांणी ह्या विशयांचो खोलायेन अभ्यास केला. 'ध्रुवतारे' ही तांची कन्नड कादंबरी गोवा कोंकणी अकादमीन अणकारीत केल्या आनी तांका डॉ. टी. एम. अे. पै फावंडेशन पुरस्कार फावो जाला. 'मांडवीच्या मोगाखातीर' ही आनी एक कोंकणी कादंबरी तिजो इंग्लीश अणकारुय जाला.




ते एक बरे संघटक देखून कर्नाटकाचे शाळेंत कोंकणी शिकोवपाक देवनागरी लिपी वापरुंक अनुमती दिवंची म्हूण तांणी मागणी पुराय जायसर सरकाराकडेन फावटी घाल्यो. आनी तांची मागणी मंजूर जावन आज कर्नाटकांत ४५०० परस चड विद्यार्थी देवनागरी लिपयेंत अभ्यास करतात. त्या खातीर आमी तांचे खेरीत कौतुक करुंक जाय.

हांवे सुरवेक म्हळां, ते एक काळजाचे दोतोर, ते दुसऱ्यांची काळजां तपासतातूच. पूण ते एक बरे काळजाचे दोतोर अशें हांव म्हणन कित्याक ताणी आपल्या काळजांत कोंकणीक पुजल्या, तिचो ध्यास घेतला आनी ह्या ध्यासांतल्यान तांच्या देवनागरी लिपयेंतल्या कोंकणी कादंबरीचे सपन साकार जाता. देखून तांच्यासयत आमचेंय काळीज भरुन आयला.

''महाप्रस्थान'' कितले गडगंज नांव, गडगंज इतिहास आशिल्लें 'महाप्रस्थान' पूर्वार्ध आनी उत्तरार्ध अश्या दोन वांट्यांनी उजवाडाक येवपी ३१२ पानांच्या कादंबरीचें आमी स्वागत करुंया. तांणी आपली आवय सर्गेस्त कस्तुरी मोहिनी देविदास पै हांका ही कादंबरी नमळायेन ओंपल्या. तशेंच आमचेमुखार ती हाडल्या संजना प्रकाशनचे प्रकाशक श्री. दिनेश मणेरकार हांणी.

महाप्रस्थानाच्या पूर्वार्धात आनी उत्तरार्धान १५१० ते १५६५ म्हळ्यार ५५ वर्सांचो काळ रेखाटला. म्हणजे ह्याच काळांत कादंबरीचे कथानकाक गोंय हो भारतांतलो मुखेल वाठार जिखपाची आंखणी लिस्बनान तयार जाली आनी ताचें फुडारपण आफोंस द आल्बुकेर्क हांणी केलें. आदिलशहाचें गोमंतकावयले शासन सोंपोवपाक ही एक भांगराळी संद अशें तिमाप्पा नायकाक दिसले खरें पूण म्हाळ पैक मात दिसतालें एका सैतानाच्या हातांतल्यान सुटून दुसऱ्याच्या हातान पडना जाल्यार पुरो. आनी म्हाळ पैचो दुबाव खरो थारलो.

आमकां फकत वेपार करपाखातीर गोंय जाय, गोमंतकाच्या शिंवासनाचेर आमकां दावो करपाचो ना. अशी जरी जाप आल्बुकेर्कान तिमोजाक दिल्ली, तरी उप्रांत पुर्तुगीजांनी आनी तांच्या वांगडा आयिल्ल्या पाद्रींनी धर्मपरिवर्तनाच्यो करण्यो सुरू केल्यो. आनी पयलें नश्ट जालें तें सप्तकोटेश्वराचें देऊळ.

१५८० वर्सा दॉ. स्वेता दे माय हो नवो गवर्नादोर. महत्वाकांक्षी येवजण घेवन येता. धर्मपरिवर्तनाची आनी मिंगेल वाझ हो विगार जनरल. तो तर वेगवेगळे नेम आनी आदेश दिवन लोक क्रिस्तांव जावपाखातीर धडपडटा आनी स्वत: देखरेख दवरता. मागीर सुरु जाता अन्याय आनी अत्याचाराची काणी.

इतिहास तसो जायतो आसा. पूण इतिहास जेन्ना तूं कादंबरीच्या रुपान मांडटा तेन्नाच लेखकाची कळाशी थारता. आनी मागीर कादंबरींत पात्र येता कृष्णा पै. जाचेकडेन संघर्श करपाचो सभावगुण आसता आनी निमणेमेरेन तो संघर्श करता. ह्या संघर्शान ताका साथ दिता ती राधिका. आनी ताचो इश्ट केदार. बाटाबाटीच्या वेळार देव सुरक्षीत जाग्यार पावोवपाची जबाबदारी घेवप. ब्रम्हपुरींतल्या विद्यार्थ्यांक वेशांतर करुन न्हंयेतल्यान पलतडी पावोवप. संकटाच्या वेळार थंड मनांन काम करप हे ताचे सभावगुण. कृष्णा आनी राधिकेच्या मोगाचे प्रसंग वाचतना. खीणभर वाचक हलको फुलको जाता. तांचो एकमेकावयलो विस्वास आनी एकमेकांखातीर केल्लो त्याग राधिका आनी सत्यान दाखयल्ली धिटाय अस्तुरेचे त्या काळचें एक वेगळें रूप दाखयता. सत्याक कृष्णा वाटायता तेन्ना तिजो कृष्णाचेर जाल्लो मोग आनी व्हड मनान राधिकेचे आपल्या घोवाल्या आनी सत्याच्या मोगाक स्विकारप अचंबीत करून वता.

एकूण कादंबरींत गोमन्तकाचो इतिहास, पुर्तुगेज गोंयांत राज्य करपापासून केल्ली लुटालूट, देवळां आनी मठ मोडप, जबरदस्तीन

धर्मांतर करप, बांयत मांसाचे कुडके उडोवप. धर्मांतराची सक्ती करतना अशें पिडप कीं जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हूण तांका स्थलांतर करपाक प्रवृत्त करप. धर्मांतर करिना जाल्यार आंगार शिरशिरे हाडपी अत्याचार गोंयकारांच्या कुडीचेर करप. हें सगळें वाचतना आंगार कांटो येता आनी कसल्या कसल्या परिस्थितींतल्यान पूर्वजाक वच्चें पडलें हाची जाणविकाय जाता.

आनीक कांय पात्रां आमचीं फाट सोडीना. हुशार आनी मुत्सद्दी म्हाळ पै, साधुच्या वेशांत बायले भुरग्यांक मेळूंक येवपी सुलोचन भट, दादाजी, आचार्य, इक्बाल, कृष्णा फाटल्यान सावळी कसो रावपी केदार आनी कृष्णाचो घोडो म्हज्याखातीर तोवूय एक हिरो.

सोळाव्या शेंकड्यांत सुरु जाल्लें धर्मांतर आनी तातुंतल्यान जल्माक आयिल्लें इन्क्विझिशन आनी धर्म बदलचो पडचो न्हय म्हूण गोंयकार भावांनी केल्लें स्थलांतर. ह्यो घडणुको तारखांसयत कादंबरीत हाडटना तांतूंत कांय काल्पनीक प्रसंग आनी पात्रां घालून कादंबरीच्या रुपान हाडप म्हळ्यार एक आव्हानूच. एक गहन विशय सोंपेपणी आनी रंजकपणान कसो मांडू येता हाचें बरें उदाहरण म्हळ्यार महाप्रस्थान. जांका गोंयचो इतिहास जाणा जावपाची उमळशीक आसा. तांचेखातीर ही नातळांची अप्रूप भेट.

हाचे आदीं २००४ वर्सा सरस्वती सन्मान प्राप्त भौ. महाबळेश्वर सैल हांणी धर्मांतर, स्थलांतर आनी इन्क्विझिशन ह्या विशयाचेर आदारीत अभ्यासपूर्ण अशी 'युगसांवार' ही पयली वयली कोंकणी कादंबरी आमकां दिली. उपरांत २०२१ वर्सा आमकां भौ. उदयबाब भेंब्रे हांणी 'व्हडल्या घरांत' व्हेलीं. हाचेपयलीं 'व्हडलें घर' आमी आयकल्लें. पुण थंय कितें आशिल्लें हें आमी नकळो आशिल्लो. १५६६ ते १५८५ ह्या वीस वर्सांच्या काळांत गोंयची जाल्ली बाटोवणी, इन्क्विझिशनची थापणूक, गोंयकारांचो जाल्लो अमानुष छळ, इन्क्विझिशनाक लागून जाल्ल्यो शोकांतिका आमकां व्हडल्या घरांत पळोवंक मेळ्ळ्यो.

सोळाव्या शेंकड्यांतल्या इतिहासाचेर आदारून साहित्यकृती बरयतना भरपूर अभ्यास आनी संशोधन करचें पडटा. इतिहास आनी कल्पना हांचो सुंदर सुमेळ घालचो पडटा. हें सगळें आमच्या म्हालगड्यांनी कश्ट घेतले म्हूण आमची कोंकणी साहित्य संपदा समृद्ध जाली.

निमणें - गोंयचो इतिहास 'महाप्रस्थान' ह्या कादंबरीच्या रुपान दवरतना तांतली कस्तुरी आमच्या मुखार पावोवपाचो सुंदर यत्न डॉ. कस्तुरी मोहन पै हांणी केला. त्याखातीर सगळ्या कोंकणी लोकांवतीन हांव ताका देव बरे करुं म्हण्टा.

**महाप्रस्थान**

बरोवपी: प्रो. डॉ. कस्तुरी मोहन पै

प्रकाशक: संजना पब्लिकेशन्स

पानां: ३१२

मोल:

संपर्क : 9970445778



***

(पान ३० वयल्यान)

त्रास जांव येता. ह्याच खातीर गरुडपुराण टायम पास म्हणून वाचपाक जायना. घरांत कोणूय भायर पडटकच तें वाचचें अशें शास्त्र सांगता. आत्मो घरांतूच आसता तोय तें बसून आयकता. फुडें आपल्याक कितें वाडून दवरलां तें ताका आनी घरचे मंडळीक वांगडा कळटा. आसूं.

नरकांत आमकां शारिरीक यातना जांव येता. हांगा आमकां मानसीक यातना जाताल्यो त्यो थंय जांवच्यो ना ह्या विचारानूच हांव सुखावतां. मनुन, बापायक श्राद्ध वाडटा तेन्ना यजमानान ब्राह्मणाक पुराण आयकूंक दिवचें अशें सांगलां.

*स्वाध्यायं श्रावयेत् पित्र्ये धर्मशास्त्राणि चैव हि*

*आख्यानानीतिहासांश्च पुराणानि खिलानि च*

म्हाका हें शक्य ना कारण आमगेर चवथ, श्राद्ध, म्हाळ अशें कितेंय आसतकच जेवणाक सदांच उशीर जाता. आमगेरुच न्ही, गोयांत सगल्या घरांनी हीच परिस्थिती. घरांत कसलीय परब आसतकच घरांतल्या बायलांक कितें जाता खबर ना. विचारल्यार, 'तुमी रांदचेकुडींत येया आनी रांदा' अशीं तांची थारिल्ली जाप आसता. तातूंत बाबुली भटाक गुळी घेंवची आसता (Glyciphage 500mg post lunch). मागीर वयर गेल्ल्या आत्म्याचे नखरे. हरशीं जिते आसतना जे जिनस केन्नाच पानार पडले ना ते श्राद्धा दिसा वा म्हाळा दिसा पडटात. तरी आसतना ते उश्टावपाक हांकां कितें पिडा मारता तें कळना. सगल्यो फॉर्मेलिटी केल्या शिवाय पिंडाक दर्भाचो कावळो लावपाक मेळना. ह्या सगल्या बोवाळान हांव बाबुली भटाक पुराण आनी खंय आयकुपाक बसयतलों. हांव भायर पिंड दवरतकच तोंडान कांव कांव करतां आनी बाबुली भट मोबायलाचेर हेलनाची पदां पळयता. सोड.

थोड्यो गजाली गरुडपुराणांत सांगल्या त्यो आमचे कडल्यान आपशींच जातात. देखीक, गरुडपुराण सांगता घोव बायलानी सकाळीं प्रणया पासून पयस रावचें आनी ब्रह्मम्हूर्त हो देवाच्या उपासनेक समर्पीत करचो. आमी रातचीं अमृतांजन लावन न्हिदतात तीं, ही आठांक आनी हांव हांड्याक उजो घालपाक सकाळीं संक उठ्ठां. 'पहाटे पहाटे मला जाग आली तुझी रेशमाची मिठी सैल झाली' हें फकत हांवे पदांतूच आयकलां. तेंय बी 'मनपसंत गितें' ह्या प्रोग्रामाक फर्माईश धाडून, तुमचे म्हायती खातीर. गरुडपुराणांत अश्यो खूबश्यो गजाली आसा ज्यो वाचतकच तुमकां मानसीक त्रास जांव येता. देखीक, गरुड पुराण म्हणटा लग्ना उपरांत दादल्यान दुसरे बायले कडेन कसलोच संबंद दवरपाक जायना. ही गजाल सामकी अशक्य अशें तुमी म्हणटले हें म्हाका बेस बरें खबर आसा. पुणून गरुडपुराण अशें केल्यार ख्यास्त सांगता. तुमी नरकांत तर वतलेच त्या भायर तुमकां फुडें लांडगो, कुत्रो, गिधाड, कोलो, सोरोप वा कावळ्याचो जल्म मेळू येता. आतां हातूंत तुमकां चोयस आसतलो काय ना तें पुराणांत सांगू ना. हांव हालीं चोयस मेळल्यार खंयचो जल्म बरो हें थारावपाक नॅशनल जोग्राफीक चॅनल पळयतां. तुमीय पळयात.

संपर्क: 9850530756 ***



नवी जाग गोंयकारांक



# जैतवंत जांव!



# स्मिता खांडेपारकार आनी घरचीं

